देवान फूल दिल्यार तेराच दीस जाल्ले आनी आपु शणैले तपश्चर्ये फळ आयिल्ले. तें फूल उलयिल्लें. त्या उलोवण्याचो अर्थ गांवाक कळूं चड वेळ लागलो ना. तरी पूण थोडो वेळ लागलोच. चंपावतीन आडावं नाशिल्लो जाल्यार आपु शणैन खोशयेच्या उमाळ्यांन फोगोट्यो लावन ह खबर जगाक कळयिल्ली. केदें सुख! केदी खोस! केदें समाधान! आन हे खोशयेच्या पोटांत आसली ती केदी आस्त!

आज लक्ष्मणागेर कितलोसोच लोक च्या पिल्लो. पैशे लागिल्ल आपु शणैच्या नांवार. आपुशणैक तातूंतय समाधान आशिल्लें, अभिमा दिसतालो.

तिन्सांजे दरवंट्याक तेंकून चवाये म्हऱ्यांत दासभट उबो आसलो प्रदक्षणा सोंपतकच शणैन खडिसाखरेचो खडो ताज्या हातांत दामल आनी कानांत सांगलें.... 'फुलाक वाचा फुटल्या... तिका दीस गेल्यात. दासभटान तोंड देवावटेन घुंवडावन दोळे धांपले आनी देवाक हात जोडले आपुशणैनय हात जोडले. 'देवा पाव' – म्हळें आनी दासभटाचें दे कल्याण करूं अशें चिंतीत तो मंटपावटेन चलूंक लगलो. जण एकल्याच्य दोळ्यांत ताका समाधानच दिशिल्लें. दासभटाच्या घाश्यां दोळ्यांतय त मुजरत पळोवंक ताका वेळ खंय आसलो?

देवापांयाकडेन आपुशणैन साडेचार वर्सां सारिल्लीं; तरी दीस कशे गेले हें ताका कळुंकूच नाशिल्लें. ते पारवे कशे उडून गेल्ले. पूण चंपावतीक दीस गेल्या उपरांतचे णव म्हयने मात मुयेचे गतीन चलिल्ले. आपुशणैक ह्या णव म्हयनांचो काळ णव वर्सांचो कसो दिसलो, ताज्या काळजार आशिल्लो भार आनी तकलेर जापसालदारकी. चंपावतीक सांबाळटाना ताका नाका जीव जालो. ती पाणव्यार न्हावंक वचत, आंवाळे खायत, पुनवेच्या नाटकांक लागून जागरणां करीत म्हणून तो भितालो. चंपावतीक समजायतालो, अपरूपाचें साळीक कशें तिका राखतालो.

शणै घराण्याच्या वंशाची पणटी तिजे कडेन आसली. ती पणटी दामबाबान पेटयिल्ली. ती पेटिल्ली वात पालवंक दिल्यार आपु शणैल्या संवसाराचें रितेंपण काळखान भरून वतलें आसलें...

आनी...णव म्हयनेभर जावन चंपावतिगेर चलो जालो तेन्ना गांवांत फोग पेटलो तसो ताजे आदीं केन्ना पेटलो ना. त्या दिसा सगलो गांव दामबाबाचे सासाये दिशीं उलयलो तसो ताजे आदीं केन्ना उलयलो ना. त्या

दिसा लक्ष्मणागेर लोक च्या पिलो तसो ताजे आर्दी केन्ना पिलोना.

आपु शणैले हात सर्गाक तेंकिल्ले. दामबाबाचे सेवेचे कळस कसो बांदचो हेच येवजणेक तो लागिल्लो. भांगराची मूर्त? उत्सवाची? घोड्यार बशिल्ली? थारलें. चंपावतिलें भांगर खूप आसा... महारुद्र? तोय करप... आनी गांवाक समाराद्ना... भटाक दक्षणा. दासभटाक शाल.... आपु शणैल्या अंतस्कर्णांतले भक्तीन आनी आंगवण्यांचें पावतिंनी दामबाब घुस्मटलो...

आज आपु शणैल्या चल्याचो बारसो... गांवाचें तोंड आज दीसभर गोड जायत आसा. नांव दामोदर दवल्लां. दामोदराचें बरें जांव म्हणून लोक मागत आसा... प्राकारांत भटांक, पैरिकारांक आनी बिराडकारांक आपुशणैल्या समाधानाचें नवेंच दर्शन घडलां. खोश्येचेंच वारें आपुशणैल्या बिराडांतल्यान सगल्यांक खेळ्ळां... शणैल्या घराण्याचें भाग्य खूब तेंपान जागलां...

वैजिणीन गांवांत धवळो केला... आपुशणै काळो, चंपावती काळी; चलो मात गोरो–गोरो–पिट्ट जाला.... घाश्र्या दोळ्यांचो... दास भटाभशेन दिस्ता...

दासभट पंद्रा दिसांफाटीं आकस्मात सांगली गेला. भैणिचे खबरेक...

आपु शणै ताजी वाट पळयता... समाधानान ताजें अंतस्कर्ण इतलें भल्लां की तें समाधान तोंडांतल्यान आनी दोळ्यांतल्यान ओत्ता. दुसरें कांयच ताज्या कानांतल्यान मनांत रिगूंक पावना... घरा परतूंक ताजें मन उखल्लां... शणैल्या मूळ घरांतलें पायणें हालूंक जाय... दामोदराच्या हांश्यान तें घर भरून वचूंक जाय.... त्या घराचो उजवाड थंय फांकूंक जाय... देखून आपुशणै दासभटाक रावता. आज सुवेर सोंपता... रोखडोच निरोपाचो प्रसाद घेवंक जाय.

...दुसऱ्या भटांचेर ताजो विश्वास ना. दासभटाच्या हातान देवान फूल दिलें आनी मागिल्लें मागणें दामबाबान पदरांत घालें... शणैल्या वंशाचो दिवो पेटलो... निरोपाचो प्रसादय दासभटाकच घेवपाक लांवक जाय... दामबाबा रोखडोच दितलो... दासभटाचो हातगूणच बरो....

**********

फ्गतीं मधें–

संगत ही न्हय की मानेस्त उदय बेंब्रे, अद्योगात, हें नांव गोंय आनी अक्ख्या कोंकणी संसारांत परिचित. कोंकणी भाशे खातीर चळवळ सुरु जाताना सक्रीय पात्र घेवून झुज्लेल्या सबारां पय्की आनी आपल्या राजांवींक चिंत्पान हे चळवळेक शिस्तेची चाल दिल्ली कीर्त उदयबाबाक फावो जाल्ली. जायतीं आनी सबार कोंकणेक लग्ती जाल्लीं अदिवेशनां ताणे चलयल्यांत, प्रमुख उलवपी आनी संघटक जावन पात्र घेतला आनी ताचीं बर्पां आनी चिंतप कोंकणींत संसोद कर्तेल्यांक फाय्द्याचीं जाल्यांत.

पूण कांय सबारांक कळितनास्ची एक संगत, एक देणें, एक तांक जाल्नासा उदयबाब एक शातिवंत सृजनशील लॅकक. ताची ही कथा १९६० इस्वेंत ताणे लिकल्ली ताच्या चिंतपाची धार तितल्या वर्सां आदीं तरी – तेंवी हिंदू भावार्थाच्या सळां–पाळांक सुवियो तोपचे तसली जाल्नासल्ली म्हण्ताना हे मटवे कथेन उटयिल्लीं ल्हारां, उस्कायिल्ली भासाभास कांय उण्या मापाची न्हय. असलो एक विषय घेवन जरितरी एक लॅकक आप्ली सृजनात्मक लिक्णी चलय्ता तवळ सबारांची तीक नदर ताचेर खंचता; आनी शीदा परिणाम जावन हें चिंतप तर्जणां वर्वीं हेर साहिताच्या वाचकांक पावीत जाता. मानेस्त बेंब्रेच्या उत्रांनींच सांग्चें तर, '१९६० इस्वेंत हांव विद्यार्थी जावन आसल्ल्या वेळार हांवें ही कथा लिक्ली. त्याच वर्सा ही कथा मुंबयंत्ल्या कोंकणी विद्यार्थी संघ हाणीं प्रकटच्या 'विद्या' नेमाळ्याच्या वार्शीक विषेशांक्यांत प्रगट जाली. १९७१ इस्वेंत अ.ना. म्हांब्रो हाणीं 'जाग' प्रकाशनांत प्रगटली. त्या उपरांत हे कथेचो भाषांत्र मराठी (साहित्य अकाडमी, डेल्ली), इंग्लिष (विद्या पै आनी किरण बुड्कुले) आनी पुडतुगेज भाषेंत सय्ती भाषांत्र जावन Third Millenium Publishers in Goa हाणीं प्रगटल्या.

म्हणतकूच, कितें विषेस आसा हे कथेंत? कित्याक हांतली कथावस्त विबिन्न चिंतप कित्याक उस्काय्ता? ही कथा कांय हिंदू भावार्थाक आनी सिंतिमेंतांक तुक्लाय्ता? एक मटवें पूण सोंपें सवाल कर्चें तर – ही कथा तवळचे चिंतपाक सकालिक या उरपाटें या कांय पन्नास वर्सांक फुडें आशिल्लें?

प्रमूक पात्रधार ऑपू शणै, एक विदुर पूण परत लगिन जाल्लो आनी ताका आतां लाबल्ली तर्नाटी पतिण चंपावती कातीन सावळी पूण प्रायेन ऑपू शणै वर्नी ल्हान. तशें पळेंव्क गेल्यार ऑपूयी कातीन सावळो पूण देंडो. भाय्लीं सर्व लक्षणां पूरक आस्ल्यारी, साडेतीन वर्सां लगिनाक जालीं तरी चंपावतिचो कुस्वो भर्लो ना. कित्याक म्हळ्ळें प्रश्न उग्त्यान कोणेंयी केल्लें ना तरी नदर पडटाली ऑपू शणैच्या पुरुषत्वाचेर न्हय? हें सवाल ऑडांव्चे खातीर देवाक शरण वेचें भोव समंजस म्हण चलाकेन लेकून ऑपून दासभटाच्या चरणीं आस्रो घेतलो, पूजा–किर्तनां–गीतां उटयलीं आनी प्रसाद फूलाक राकोन राव्लो.

आनी त्या एका दिसा आपू शणै पुडव्याचो शेव खांदार उडोवन प्रदक्षिणा काडीत्त आस्लो आनी इतल्यांत–

'शणै, फूल जालें.' दास भटाचो ताळो आनी उत्रां आयकोन शणै थांब्लो. फूल जालें हाचो मतलब, विचारल्लें मेळ्ळें. चंपावती कांय....ताका विश्वास जालो ना कित्या हेरां खातीर जाल्लीं निरोपाच्या यशेचीं असलीं ऐलानां ताणे फुडेंयी आयकाल्लीं पुण तीं सर्व जाल्लींनांत. म्हणतकूच आपू शणै देवाचेर दुबाव्लो सय्त.

'शणै, फूल जालें, बेगीन यो....दास भटालीं उत्रां परत आयकाताना आपू शणैक थिर जालें. देवान आपणालें प्रार्थन आयकालें.

जालें तर जालें आनी बऱ्याकच जालें. उप्रांतलें सर्व यांत्रिक. आपूण देवाचेर बेहष्टोच दुबाव्लों न्हय म्हळ्ळे चुरचुरे सोडल्यार आपू शणैक संतोसच संतोस. उप्रांतल्या घडितांक कसल्यायी टीपांची या शऱ्यांची गरज ना. कथा आपापींच मुंदरोंक जाय आनी संपोंक जाय न्हय?

पूण....तितल्यार...जनार्धन भट आर जावन हांतुळणार पडता आनी ताचे मजतेक येता ताचो भाचो दास भट. चत्रायेन वाचा दास भटाचें दयहीक वर्णन – दास भट गोरो पिट्ट, दिसूंक गोम्टो आनी घाऱ्या दोळ्यांचो. सग्रिको येताल्यो पुण आजून आंक्वार आस्लो.

तर कितें?

कथा मुंदरोन वचूं आनी संपूं.

पुण उदयबाबान वापरल्लो एक हुन्नर, एक खिळ, एक अस्पष्टता हे

कथेक असल्या एका पांव्ड्यार हाडून उबी कर्ता, ती संपना पुण लेकक तिका थांबयता. तरी पुण ताणे उबो केल्लो तो हुन्नर कसलो? मटव्यान फोडिणशी कर्ता. 'आनी णव म्हय्ने उतरले फूल पडून आनी चंपावतिगेर चलो जालो तेन्ना गांवांत फोग पेटलो तसो ताचे आदीं केन्ना पेटलो ना.'

आज आपू शणैच्या चल्याचो बार–सो, गांवांचें तोंड आज दीसभर गोड जायित्त आसा. नांव दामोदर दवर्लां, आपू शणैच्या समाधानाचें नवेंच दर्शन पड्लां.

पुण वैजिणेन गांवांत धळ्ळो केला....आपू शणै काळो, चंपावती काळी; चलो मात्र गोरो–गोरो पिट्ट जाला...घाश्‍र्या दोळ्यांचो, दास भटा भाशेन दिस्ता...

हांगासर हांव थांब्तां आनी थोडीं मेटां पाटीं वेतां आनी तुमच्या सामकार हाडता चंपावैतिचीं गुप्त भोग्णां आनी दयहीक वॉड––

'सरवळिंत दारा कडेन बसून चंपावती पळयताली. दोळ्यांत चिंतेची सावळी. गळ्याकड्लीं दाडां दिसूंक लागिल्लीं. देंठ मोडिल्लें फूल बावचे तशें ती बावल्ली. हातांत्ल्यो वस्ती उण्यो जाल्ल्यो. दोन उत्सव एकाच्च पातळान करचें पडतालें. चौकावेल्यान पुजेचेर आनी पुजेवएल्यान तिची नदर भिरभिरत वेताली दास भटाचेर. ताच्या गोर्या पिट्ट आंगाचेर खेळटाली आनी आड्ढळताली, ताच्या घाश्‍र्या दोळ्यांनी खिणभर. आनी मागिर दामबाबाच्या दोळ्यांत तेळून पळेयताले तिचे दोळे, आशेच्या पोटांत आसतगाय म्हणून कोंबेव्या सारकें भीं. सोमाराक पाल्खी जातकच दासभटान हातार दवरिल्लो सुंर्गा वळेसर उर्तालो तिच्या आंबाड्यांत दोन दीस – देवाचो प्रसाद...सेवेची पावती...

शिम्गो जालो, दसरो आयलो....परत शिम्गो...दसरो....

बराबर!

**********

# गंगा अशीच व्हांवता

–निरोद चौदुरी

ॠ दीस:

खरें म्हणटा तूं?

खर्यानीच तर. पाटल्या दोन मयन्याभितर तूं खूबच सुंदर दिसोंक ागलां.

फकाणां करता दिस्ता.

देवाच्यान सांगतां. फट दिस्ता जाल्यार वचून आरश्यांत पळे.

खरें सांगुं तुका? हांगाची हवा बरी. आनी घर्चे भाशेन हांगा कोणालेंच कडक शासन ना.

घराकडेन तुवें खूब त्रास काड्ले, न्हय?

तशें कांय न्हय, हांव गांवची चली. शहरांत्ल्यो तुमच्यो चाली रिती ांव नकुळू. सुर्वेक जाल्यार म्हाका साम्कें शेणिल्लेवरी जातालें. पूण मागीर संवकळ जाली.

गांवची चली आसूनयी घरांत कोणेच तुजो अवमान करून ना. पय्लीं सगळ्यानींच म्हाका खेड्यांत्ले चलयेकडेन लग्न करुंनाका म्हणून सांगलें. आयी आनी बाबाली अडकळ नास्ली. पूण भावान आनी वय्नीन कितले आडमेळे हाडिल्ले जाणां तूं?

जाणां

तरी आसताना हावें तुजेकडेन लग्न केलें.

कित्याक?

तूं म्हाका आव्डाटालें. शहेरांत्ल्यो चंचल चल्यो पळव्न म्हजो विस्वास उडून गेल्लो. कित्ल्या सकल्या पांव्डार ह्यो चल्यो घुसर्तात!

तुका कितें खबर?

हांव सगळें जाणां. आंगार मचींग रंगाचो पांचवो–निळो भेस केलो म्हणोन कोण बरें जायना, आनिकयी जायत्यो गजाली जाय आसतात.

तूं कितें सांगोंक सोद्ता? म्हाका समजलें ना.

खरें सांगूं तुका वासंती, शहरांतल्या चल्यांक हांव भियेतां. कालेजींत

चार बुकां शिक्तकच ह्यो आपणाक कोण सम्जतात म्हणून देवाक खबर! पूण खरेपणी तांचें मोल शून्य.

सम्जलें ना म्हाका.

ना समजू वा सार्कें हांतूंन कितें आसा? सादी सरळ गजाल, ते आसूं. हें सांग, हांगा तुका कसलेंच दूक नामू?

दूक? कसलें दूक?

हरशीलेंच... म्हज्या सार्किल्या मन्शा म्हर्यांत राव्‌न....

कितें उलय्ता तूं? खर्यानीच तर हांव सुखी आसा. म्हजे सार्किले पांच पटयो शिकिल्ले गांवची चलयेकडेन तूं आप्खोशयेन लग्न जाला हें तुजें व्हड्‌पण.

हें कितें कर्ता तूं वासंती? कितले वेळ सांग्लें तुका हावें म्हज्या पायांक हात लावनाका म्हणून. इतले खट्‌पटी उपरांत 'तुमी' म्हणपाची तुजी सवय हावें काडून उडयली. आतां हीय सवय सोड. पोरन्यो रिती त्यो. त्यो आतां विसरूंक जाय. केन्नाय म्हज्या वांग्‌डा सिनेमाक वा क्लबांत यो.

तूंच म्हणटालो न्हय. तुका श्हेरांत्ल्यो चल्यो अवड्‌नात म्हणून?

तूं कितें श्हेरांतली चलिगो? पूण गांव्चे चली आस्लें तरी तुवें श्हेरांत्ले नेम सम्जून घेवंक जाय.

सम्जालें ना म्हाका.

सम्जतेलें. एक दीस सगळें समजतलें.

दुसऱ्या दिसा:

कितले खेपे सांगलें तुका अशी म्हजी वाट पळेनाका म्हणून. म्हाका येंव्क कळाव जाल्यार तूं जेवण घे.

म्हाका तशें आवाड्‌ना.

आवाड्‌लें ना तरी जेव

रागार कित्याक जाता? बरें आयच्यान जेवतां

हातूंत वाय्ट धर्पाचें कितें आसा?

हालीं तूं आद्‌लेवरी मोग करिना

हें पळय. हांगा यो सांगतां. वासंती. आज कितें जालें जाणा तूं?

आफिसांत सगळ्यांनी च्हा आनी खावंक दी म्हणून म्हाका घेर घालो. ते तुकाय पळेवंक सोदतात.

म्हाका?

हय, तुका. तातूंच आजप कसलें? तूं पळोवसार्के दिसाना कांय कितें?

म्हाका लज दिस्ता. म्हाका भय दिस्ता.

लज आनी भय कसलो? सग्ळे म्हजे ईश्ट. खरें सांग्तां तुका हांव वासंती, तांगेल्या बायलांमदीं एक्लीच तुजे इत्ली सोबीत ना.

अनीक एक दीस:

मागीर कितें जालें जाणां तूं? यतीन आग्लो करून फोर्सान म्हाका आप्णाल्या घरा घेव्न गेलो. हांवें पर्तुन पर्तुन ताका सांग्लें. हांव एक्लो येवन कितें कर्तलो? वासंतिकयी वांग्डा व्हरूया. पूण ताणे म्हाका सोड्लो ना. तुका हावें सांग्लाच यतीन म्हजो लागशीलो ईश्ट. आमी सांगातां शिक्ताले. मुकार हावें नोकरी धर्ली आनी यतीन एम.ए. शिकोंक बनारसाक गेलो. थंय्च एम.ए. जालो. मदीं कित्लींशीच वर्सां आमी एकामेकांक मेळ्ळेनात. आज आक्षीत बसींत तो मेळ्ळो. उजान बाजारांत न्हंयचे देगेर ताणे एक घर भाड्याक घेत्लां. जोरहाटाक ताचें लग्न जालें. बाय्लेकडेन म्हजी ओळोक करून दिली. म्हज्या लग्नाची खबर आय्कोन यतीनाक खूब खोस जाली. हावें खेड्यांतले अशिक्षित चलयेकडेन लग्न केलां हें आय्कोन तर तो आजाप जालो. तागेले बाय्लेन म्हाका विचार्लें. "गांवची चलयेकडेन लग्न करून तूं सुखी आसा?" "हांवे कितें जाप दिली जाणा तूं? हावें सांग्लें, "श्हेरांत्ल्या चल्यांप्रास वासंती बरें" एक दीस तीं दोगांय आम्गोर येतलीं. पूण त्या आदीं आमकां तांगेर वच्चें पड्तलें. हावें ताका उतर दिलां."

दुसर्या एका दिसा:

तूं तयार आसा वासंती?

हय, जोतें घालतां.

राव, हें पळय...

कितें जालें?

आज आफिसांत गर्जेचें काम आसा. म्हाका वच्चें पडतेलें. देकून

आयज यतीनागेर वचप जम्चें ना. फाल्यां ना जाल्यार परां केन्नाय या.

कांय नज. आफिसांत्ल्यान परत येवंक तुका घड्ये वेळ जाय्त. कितेंय खाव्न वच. हावें त उजेखातीर नाल्लासोयेचेच लाडू केल्यात.

आतां नाका. मागीर येवन खातां.

आनीक एका दिसा:

म्हाका ओगीच अवघडिल्लेवरी जाता. तुगेल्या मित्रांचो आदर सत्कार म्हज्यान सार्को जाय्त कांय ना हाचो म्हाका भंय दिस्ता. तुवें सांगलां तें प्रमाण पय्लीं हांव तांकां 'नमस्कार' कर्तेलें. मागीर बसात आं, हांचेकडेन उलयात अशें म्हणून हांव भितर वेतेलें. उप्रांत तांच्याखातीर च्हा आनी खावंक घेव्न वेतलें. उपरांत तांचात्ल्या कोणेय कोणेय जर म्हळें की इतल्या वस्तुंची गर्ज खंय आस्ल्ली? जाल्यार हांव म्हणतलें, तांतूंत चड कांयच ना. तुम्चे खातीर कितेंय खावंक करूंक लेगीत पाव्लें ना हांव. इत्लें सांग्ल्यार पुरोमू? तसो तू भियेंव नाका. म्हाका याद उर्तली. पूण पळय, वेळ मेळ्ळयार शेटिगेरसावन म्हजें लाकेट हाडूंक विसरुंक ना. उगत्या गळ्यान तांच्या मुकार येवप सोब्चें ना.

दुसर्या एका दिसा:

वासंती

वोव

हांव येव्जवतालों, कांय दीस सुटी घेन्ची. आमी खंय्च भायर वचूंक पाव्लीनात.

तुजें तूं पळय.

आज यतीन मेळिल्लो.

कितें सांगतालो?

तो आम्चेर रागार जाल्लो. हावें सांग्लें आफिसांत साम्कें गर्जेचें काम आच्कीत उप्रास्लें देकून तांगेर वचुंक पाव्लों ना.

फुडल्या शेन्वाराक ताणे आम्कां आपयल्यांत.

शेन्वारक? त्या दिसा तुवें तुगेल्या मित्रांक च्हाक आपय्ल्यात न्हय?

अरे च्हा! हांव विस्रुनच गेल्लों.

शेन्वाराक यतीनाक आम्गेर कित्याक आपय्ना?

बरोबर आसा, वासंती. म्हाका येव्जलेंच ना.

एका यतीनाकच न्हय... तागेले...

सम्जलों

पळय विसरूं नाका आं.

ोनवारा:

तूं इतलें मनाक लाव्न कित्याक घेतां वासंती? कसलेय अड्चणीक नागून ते येंव्क पावलेनांत जातले. येव्याची इत्सा आसूनयी येवप जम्लें ा जातलें. बरें, अशें कर, सग्ळें खाण तशेंच दवर. फाल्यां हांव तांकां ोव्नच येतां. दाकय्तां तांकां...

ोमार:

वासंती, आजून दिवो कित्याक पेटय्लो ना?

हरशींच.

काळकांत कित्याक निद्लां?

हरशींच

जिवाक बरें दिसना?

ना बरें आसा. हांव बरें ना जाल्यार तुका कसलो भंय?

कसलो प्रश्न हो? तुज्या बर्या-वाय्टाकडेन म्हाका कसलोच संबंध ना?

ना.

मात्यें फस्क दी पळोव्यां. कांय एक दिश्ट पड्ना.

म्हाका हात लावनाका. म्हाका हें आवाड्ना.

वासंती!

म्हाका तूं घरा पावय. आतां हांव हांगा रांवचें ना. खीण भर लेगीत ना.

तूं रड्टा?

म्हाका घरा पावय्ता कांय ना सांग?

कित्याक? कितें जालें तुगेलें?

हांव हांगा खीणभर लेगीत रांव्चें ना.

पुण कित्याक? हांव आसा न्हय हांगा?

तूं हांगा आसा देकुनच हांव हांगा रांव्चें ना.

वासंती, कळ्ळें म्हाका. तूं म्हजेर रागार जालां. तूं सिनेमाक व्हेल्लें ना. शेन्वाराक म्हजे मित्र आय्लेनात आनी तुवें केल्लें खाण इबाड्लें देकून तूं म्हजेर रागार, पूण आय्क वासंती, काल आफिसांत हावें तांकां सगळ्यांक तापोवन काड्ले. सांगोंक लागले की तशीच अड्चण आयिल्ल्यान ते येंव्क पाव्लेनांत. फुड्ल्यां शन्वाराक ते येतले... यतीनाक्यी आपयला.

तूं फटींग!

वासंती!

इतले दीस तुवें म्हाका फटय्लां.

वासंती!

तुजें लग्न जालां म्हणपाचें तुवें कोणकच सांगोंक ना.

आफिसांत कोणाकच तुजें लग्न जालां म्हण्पाची खबर ना.

वासंती, हें कितें उलय्ता तूं?

आज साकाळी हांगा यतीन आयिल्लो. म्हाका पळव्न पय्लीं आजापुन गेलो. मागीर विचारुंक लागलो हांव तुगेली कोण कांय म्हणून. म्हजी जाप आयकोन साम्को गोंदळ्ळो. म्हणून लाग्लो – अरुणान आप्लें लग्न जालां म्हणून केन्नाच सांगलें ना. तूं सदां तांगेर वेता. काल दोन्पाराय तुं तांगेरच आशिल्लो. यतीनान तुगेल्या लग्नाचो विशय केल्लो जाल्यार तुं म्हणता, बरीशी चली सोदून दी. लग्न करतां.

वासंती!

तूं इतलो फटय्त अशें हावें येवजूंक लेगीत नास्लें. म्हजे कडेन लग्न करुन तुं त्रासांत पड्ला. हांव तुका एक मात्ये मोलाचें वजें. म्हाका फटोंव्क तुं काणयो रचता. श्हेरांत्ल्यो चलयो तुका मनापासून अपड्तात; तुजो म्हजेर विस्वास ना. तुं म्हजो दुस्वास करता हें हांव जाणां.

वासंती!

म्हाका घरा पावय. आतां एक खीण हांव हांगा रांव्चें ना.

पुण कित्याक?

कारण तूं व्हड मनीस, उदार आनी सुशिकशीत.

आनी तूं?

हांव आडाणी–हांव मन्शाक वळ्काना. फकत तागेलो मोग वळकतां आनी तो मोग म्हाका हांगा मेळना.

*******

फंग्तीं मधें--

कथा वाचली?

कांय तरी सुसतालें, समजालें या एका यंत्राचे सुटे भाग पातळावन मेजार दव्रिल्लेपरीं दिस्ले? खंयचो भाग खंय लांव्चो? एक यंत्र आसा करचें या एक मटवी कथा? निरोद चौदुरिची विबिन्न शैली, ताची गूंडाय आनी उत्रांचो मार्मीक अर्थ सम्जातेल्यांक सम्जताना स्वास बांद्ताच्च. चौदुरिचो उद्देशयी तसलोच्च पुण विण्लेली रीत मात्र आदूनिक कतेन दाट जाल्ली. ताचे मतलब सम्जाजे तर फंगतीं मदें वाचूंकच्च जाय.

गंगा कशी व्हांव्ता?

हांव सम्जतां खंचियी न्हंय निटायेन व्हाळना. वांक्डी–तिंक्डी वेता, थंय हांगासर मोड घेता, थंय हांगासर जळपड जाता; तरी गंगा व्हांव्ता. अशीच्च म्हळ्यार कशी? हे मट्वे कथेचो मत्लब ह्या सवलाच्या जापींत आसा.

फकत तीन पात्र आसात हे कथेंत पूण व्याप्त आसा संसाराभर आसच्या दादल्यांक लग्ती जांव्चे तासली.

पयलो पात्र, एक दादलो, तर्नाटो होरेत, अरूण. आतांच्या आत्तां लगीन जावन आयिल्लो. ताची कालेत अशी विवरायता लेकक – हाका आदूनिक खयालातांची चेडवां आवडनातल्लीं. ताका जाय आशिल्ली एक्ली गांवटी, सादी, सरळ नारी. तो खुद्द एका श्हरांत नवकरेर आसल्लो, ताचो मिलाप–झुळाप आदूनिक चिंतपाच्या, न्हेस्पाच्या आनी मोडर्न खयालातांच्या चलियांक लागीं खूब जातालें तरी तो दांबून म्हणतालो म्हाका जाय साधीसुधी चली. बरें.

तो वासंतीक विंचता आनी लग्न जाता आनी तिका घेवन श्हराक येता वस्ती करुंक आनी आप्ले सिर्विसीक परत लागूंक. कथा सुरू जाता हें घडोन दोन म्हयन्यां उप्रांत जेन्ना तो आप्ले नवे पतिणेक सांग्ता – तूं दोन म्हयन्यां बितर सुंदर दिसूंक लाग्लां. हें आय्कोन ती म्हणता – फकाणां कर्ता दिस्ता. लग्ना उप्रांत्ले दोन म्हयने कांय विशेष न्हय.

कित्याक येकाचाणे ताका सुंदर दिसूंक लागली? फकाणा कर्ता दिस्ता न्हय? आश्र्यांत पळे म्हणता तो आनी तवळ ती सादी चली म्हणता - हांगासर हवो बरो आसा आनी गांवच्या सांप्रादायिक जीवनांत आसच्यो बंदड्यो हांगासर नांत. हें उलवप मुंदरोन वेताना तो म्हणता - श्हेरांतल्यो चंचल चलियो पळेवन म्हजो विस्वास उडोन गेल्लो. कसल्या सकयल्या पांव्ड्यार ह्यो चलियो फसर्तात.

तवळ नवी नवी ताची पतीण वासंती - गांव्टी गोरुं तरी सट्ट करुन एक सवाल मार्ता - तूका कितें खबर?

आनी ह्या सवलाक जाप आमी दिव्पाची. न्हंयंत देंवल्या खेरीत गूंडाय कशी कळीत? गांव्टी चली तरी तिचे मतींत हें सवाल उदेलें म्हणतकूच कांय तरी आस्तेलें...गंगा अशीच व्हाळची ना. नव्ऱ्याचें फुडलें सवाल आयकोव्यां - हें सांग, हांगा तूका कसलेंच दूक ना-मू? कितें सुचाय्ता या कितें लिपय्ता हें सवाल? कसलें दूक, विचार्ता वासंती. पांच क्लासी शिकल्ल्या चलिये लागीं लगीन जावन हांगसर हाडिल्लो तुं व्हड मनीस, तूजें मोठेंपण अपवंत.

अशें? केन्नांय म्हज्या वांग्डा सिनेमाक व क्लब्बाक यो. तो आपवणें दिता म्हणोन, तुवें श्हरांत गांव्टी जावन रावोंक फावो ना; श्हेरांत्ले नेम सम्जूंक जाय.

दुस्ऱ्या दिसा

तो येवून वासंतीक सांग्ता - आफीसांतले सर्व तूका पळेवंक सोदतात. म्हाका? वासंती विचार्ता. व्हय, तांतूं कितें? तो विचार्ता, तूं कांय पळेवंक सार्कें दिसनांय कितें? तवळ वासंती सहजतेन म्हणता - म्हाका लज दिसता, म्हाका भय दिसता.

आनी एक दीस

अरूण येवून सांग्ता की ताचो आफीसांतलो आमीग यतीन ताका घेवन घरा व्हरून गेलो. वासंतीक घेवंनंच या म्हण हांवें सांग्ल्यारी आयकालो ना. तशें म्हज्या आनी तूज्या लग्नाची खबर आयकून तो खूब संतोस जालो तरी ताणे विचार्लें - गांवच्या चलियेलागीं लगीन जावन तूं खुश आसा? तवळ हांवें सांग्लें - शेहेरांत्ल्या चलियां प्रास वासंती बरें. आमकां केन्ना तरी तांगेर वचचें पड्तेलें.

दुस्ऱ्या एका दिसा

वचूंक वासंती तयार आस्ल्यारी अरूण म्हणता – आफीसांत गर्जेचें काम आसा. म्हाका वचचें पडतेलें. आज यतीनागेर वचूंक जमचें ना.

दुस्र्या एका दिसा

तो म्हणता – आज यतीन मेळ्ल्लो. कितें सांग्तालो? तो आमचेर रागार जाल्लो. हांवें सांग्लें, आफीसांत साम्कें गर्जेचें काम अच्कीत उप्रास्लें देकून तांगेर वचूंक पाव्लों ना. फुडल्या शेन्वारा ताणें आम्कां आपयल्यांत!

पूण फुडल्या शेन्वारा तूंवें तुगेल्या मित्रांक चा–क आपयल्यात न्हय? तवळ यतीनाकयी आपय आनी वांग्डा ताचे पतीणेक...

पुण शेन्वारा

कोणंच अय्लेनांत.

वासंती मनाक लावन घेता. कित्या जाव्येत? आपूण गांव्टी म्हण? आपणाक सयऱ्यांची जतन घेंव्क कळाना म्हण या...

ह्या 'या' म्हळ्ळ्यांत सबार अर्थ लिपोन आसात म्हण चौदुरी सुचायता पूण वासंतीचो अरूण म्हणता – तूं इतलें मनाक लावन घेता, वासंती? कसलेयी अडचणेक लागून ते येवंक पाव्लेनांत जातेले. येवपाची इत्सा आसूनयी येवप जमलें ना जातलें. सग्ळें खाण तशेंच दवर. फाल्यां हांव तांकां घेवनंच येतां....दाकयतां तांकां...

************

वासंती, आजून दिवो कित्या पेटयलो ना?

काळोक सूचांव्चें हें सवाल कथेंतल्या 'गंगा' क कसली एक मोड दिता की वाचकांक ताप (जोर) येता म्हण्येत.

आजून दिवो कित्याक पेटय्लो ना? जिवाक बरें ना?

ना, बरें आसा. हांव बरें ना तर तूका कसलो भय?

कसलो प्रश्न हो?

म्हाका हात लाव नाका. म्हाका हें आवडना.]

वासंती!

म्हाका घरा पावय, हांव हांगां रांव्चें ना. खिणभर लेगीत ना.

म्हजे ईष्ट आय्ले नांत देकून तुं रागार जालेंय, खाण इबाडलें....पूण

आय्क वासंती, काल आफीसांत हांवें तांकां सग्ळ्यांक तापवन काडले. फुडल्या शेन्वाराक ते येतेले....यतीनाकयी आपय्ला.

तूं फटींग!

इतले दीस तूंवें म्हाका फटय्ला. तूजें लग्न जालां म्हण्पाचें तूंवें कोणाकच्च सांगोंक ना; आफीसांत कोणाकच तूजें लग्न जालां म्हण्पाची खबर ना.

वासंती, हें कितें उलयता तूं?

आज सकाळीं हांगा यतीन आयिल्लो!! म्हाका पळेवन पय्लो अजापून गेलो. मागीर विचारूंक लाग्लो, हांव तूगेलीं कोण काय म्हण. म्हजी जाप आयकोन साम्को गोंदळळो. म्हणूंक लाग्लो – अरूणान आपल्या लग्नाचो विषय सांगल्लो ना. तूं सदांयी तागेर वेता. काल दनपारांयी तूं तांगेरच आशील्लो. यतीनान तूज्या लग्नाचो विषय केल्लो जाल्यार तूं म्हण्ता, बरिशी चली सोदून दी, लग्न कर्तां. तूं इत्लो फटय्त अशें हांवें येव्जूंक लेगीतनास्लें. शहरांतल्यो चलियो तूका बर्योच्च आवडतात. हांव तूका मात्ये मोलाचें एक वोजें. तूं म्हजो दुस्वास कर्ता हें हांव जाणां. म्हाका घरा पावय. आतां एक खिण हांव हांगा रांव्चें ना.

कित्याक वासंती?

कित्याक हांव आडाणी – हांव मन्शाक वळ्काना, फकत तागेलो मोग वळ्कतां आनी तो मोग म्हाका हांगा मेळना!

(पळेया आतां गंगा कशी व्हांवता)

***********

# हिप्पी चली

– चंद्रकांत केणी (१९८५)

आय्तार

सांजेच्या पांच वोरांचो वेळ. मोळ्बार पात्ळल्लीं मोडां पळय्तां जाल्यार पाव्स वेगिंचाक धांव्चीं लक्षणां दिस्लीं नांत. कळोकयी दाट जायीत येतालो. लोव लोव कार चलयीत हांव घरा वेतालों. तेद्ना वाटेर ते चलयेन हात दाकय्लो. तिचेकडे सत्री जांव रेनकोट जांव ना. ती सग्ळीच भिजल्ली. हावें कार राव्‍न तिका भितर घेतलें.

– थ्यांक्यू. तिणे म्हळें

– तुका खंय वचोंक जाय?

– एनिवेर अंडर ए शल्टर.

तिका घेव्‍न हांव घरा गेलों. येके हिप्पिचलयेक सांगाता घेव्‍न हांव घरा आयिल्लो पळेव्‍न बायलेक अजाप जालें.

तिचें सगळें आंग भिजल्लें आनी ती कुडकुड्टाली. हावें तिका भितर व्हर्न दुसरें न्हेसण दी म्हण म्हजे बाय्लेक सांग्लें.

आद्‍र्या वोरान ती साडी न्हेसोन आनी केस उगोव्‍न भायर आय्ली. कपालाक तिणे गंद लायिल्लो. भायर सालांत येव्‍न म्हजे मुकार उबी राव्ली आनी तिणे म्हाका विचार्लें.

"हांव कशीं दिस्तां?"

"सोभित!"आशी जाप तोंडार आय्ली. पूण तिच्या पाट्ल्यान आसल्ले बाय्लेचेर नदर वेतच तें उतर गिळ्ळें आनी म्हळें,

"आतां तूं सार्की भारतीय दिस्ताय"

ती हास्ली आनी कदेलार बस्ली.

बाय्लेन हाड्न दिल्ली हुन हुन चा पियेतां पियेतां आमी उलय्ल्यांव.

तिचें नांव सिंड्रेला. मूळ देस फ्रान्स. हिंदुस्तानाक येव्‍न स मयने जाले. ते आदीं कोलेजींत विज्ञान विशयाचेर अभ्यास कर्ताली. वर्सां वीस.

आतां कोल्वा रावताली हेर हिप्पीं सांगाता.

तूं ह्या पावसांत सत्री वा रेनकोट घेनास्ताना कशें भायरसर्लेंय?

म्हजे कडे सत्रियी ना आनी रेनकोटयी ना आनी त्या शिवाय पाव्सांत भिजच्यांत येक संतोस आस्ता. तूं जाणांय?

-काव्यें म्हाकायी अवड्टा. पूण सत सांग्चें तर पाव्सांत भायर सरोंक आम्कां उब्गोण येता.

- निसर्ग नाच्ता तेद्नां तुमी सुकीं तोंडां घेव्न घरांत बस्तात तरयी कशें? खरो संतोस ह्या चार ओणतिंचे बंद्कणे भायर आस्ता.

तिच्यो जापी आय्कोंक म्हाका बरें जातालें. पूण तिचें चिंतप म्हाका वर्गानातल्लें.

- तुं घर-दार-शिकप सोडुन अशें कित्याक भोवोंक लाग्लेंय?

सिंड्रेला हास्लें. कांय वेळ कोणच उलय्लें ना. उप्रांत ताणे म्हळें, "तुं अशें कर... तुं चार दीस आम्चे मदें रावोंक ये."

हावें तिचें तें आमंत्रण स्विकार केलें आनी विचार्लें, "तुमच्या संसारांत म्हाका रीग मेळत?"

- तशें आमी कोणाकयी रीग दीनांव, पूण तुजी गजाल वेग्ळी. तुं घरदार आस्चो संसारी मनीस. चार दीस आम्चेमदें राव्ल्यार आम्चें कांय वाय्ट जांव्चें ना.

- आनी तुम्कां भुलोन हावेंयी घरदार सोड्लेंजाल्यार?

- तशें जाल्यार तें म्हजें अचिवमेंट म्हण हांव चिंत्तेलीं.

त्या दिसा रातिचें सिंड्रेला आम्गेरच जेव्लें. मागीर हावें बाय्लेक सांगाता घेत्लें आनी सिंड्रेलाक व्हर्न कोल्वा पायलें. वेचे आदीं तें ताचीं आद्लीं वस्तुरां न्हेस्लें; पूण गंदाचो तिळो पुस्लो ना.

आय्तार

आज सांजेवेळार कोल्वा गेल्ल्याकडेन सिंड्रेला मेळ्ळें. पावस नानल्लो. तें दरया तडीर चल्तालें. एक्लेंच. म्हाकायी आपय्लें. आमी वचोन थंड रेवेंत बस्ल्यांव. वार्याक ताचे केस उड्ताले. आंगार घाल्लें सडील खोमीस अंगालागीं खेळ्तालें. खोम्साचे वय्ले दोन बुतांव उक्ते.

म्हजी नदर परत परत थंय वेताली.

–सिंड्रेला हें सांग, आमी न्हेस्तांव कोणा खातीर?

म्हज्या सवालान तें वास्तविक संसाराक आयिल्ल्या बरी दिस्लें आनी ताणे येक बुतांव बंद करून म्हळें, "हर्येक्लो न्हेस्ता आप्ली कूड धांपूंक..."

– ती धांप्ची कोणाथावन?

–दुसऱ्यांचे नद्रेथाव्न न्हंय. हिंव, पावस, वोत हांचे पासून.

– होच तुम्चो सिद्धांत?

– तुजो कितें?

– आमी समाजींत वावुर्तांव जाल्ल्यान मन्शाचे सभ्यतायेक पाळुंक जाय. सुक्णीं–सव्जां न्हेसनांत. पूण मनीस न्हेस्ता. देकुन ताणे सार्कें न्हेसोंक जाय.

–तुमचे साधू–सन्यासी कशे न्हेस्तात?

–तांकां संसाराच्यो त्याग केल्लो आस्ता.

–तसो आमिंयी केला.

–पुण तांच्या संसारांत कशें तें हांव नेणां.

– आमच्यांतयी तें तुं म्हणताय त्या अर्तान ना. उग्तीं स्थनां पळेलीं म्हण आम्चे हिप्पी चले उद्रेकित जाय्नांत.

–तांकां सवय जाल्या. पूण सवयनातल्ल्या आमच्या चल्या चल्यांक कितें जाय्त?

– आमी तांच्या संसाराक वचनांव. तांणी आमच्या संसाराक येंव्चें न्हंय.

पुण आमच्यांनी वोंय कशी घाल्येत? हांगा दरया तडीर तुमी आसतात, श्हेरांत तुमी भोंव्तात....

– पूण आमी असबय्य रीतीन चलतांव?

– तर्न्या चल्यांचें उग्तें आंग पळय्तच चल्यांच्या मनांत विकार चिंतप येव्येतने.

–ताचें कारण म्हळ्यार समाजेंत सभ्यतायेच्या नांवान तुमी विकार चिंतप दांबून दवर्तात. चले–चलियो सांगाता वाडोंदी मागीर तांचें चिंतप विकार जांव्चें ना.

– हें अर्दें सत. सांगाता वाडल्लेकडेन शरीराच्या सुकाची आशा जांव्ची ना?

– जाल्यार ती भागंव्ची. चलो आनी चली कबूल आस्येत जाल्यार....

– आनी भुर्ग्यांचें कितें?

– भुर्ग्यांचें तांणी सांबाळ्चें. तीं व्हड जातासर आवय–बापाय्चीं. मागीर तांचें सवाल सर्कारान आनी देवान सोडंव्चें.

–अशें केल्यार कुट्माची वेवेस्ता कोस्ळोन पड्चिना?

– हें कुट्माची वेवेस्ता म्हळ्यार गुलामपणाचें येक बंधन.

आमच्या विचारांच्यो दिशा वेग्ळयो आसल्ल्यो. त्यो येकामेकाक न्हंयम्हण हांव उटोंक लाग्लों.

–वेताय?

–वेळ जालो. बाय्ल घराकडे वाट पळेतली.

–तिका कित्याक हाड्लेंनांय?

– हे वाटेन पावल्लों देकुन दरया तडीक आय्लों. तुं मेळ्ळेंय....

सिंड्रेलान आपल्या पोत्येंतल्यान येक गंदाची बाट्ली भायर काड्ली आनी म्हळें, "म्हाका तिळोलाय।"

– तुका तूंच कित्याक लाय्नांय.

– म्हजेलागीं असों ना. आसों, हो बाय्लेंचें बंधन....

हावें गंदाची बाटली उगती केली आनी बोल्सांतली काडी तांतूं बुडय्ली. पूण खिणान म्हजे मतींत दुस्रे विचार आयले आनी हावें काडयेक लागल्लो गंध पुसलो.

– कितें जालें?

– आमच्या देशांत घोव फकत आप्ले बायलेक मात कुंकुम लायता.

ायलेक कुंकुम लांवचें म्हळ्यार तिका व्हर्चें.

– तें हास्लें.

– तुं म्हाकाय व्हर.

– आमी येक पत्निवृत रामाच्या वंशाचे.

– हे संस्कार आड्क्ळी न्हंय? हांव आतां तुज्या मोगार पड्लीं जाल्यार कितें जातलें?

– आमचो संसार ध्वंस जातलो.

–कित्याक जांव्क जाय? आमी येकामेकाचो मोग केलो म्हण तुजे बाय्लेवय्लो मोग उणो जातलो?

हांव गोंदाळांत शिर्कलों. सिंड्रेलाच्या सवालाक जाप दिंव्च्याप्रास तिका तिळो लाव्न मेकळो जांव्चेंच सार्कें म्हण चिंतून हावें ताच्या कपालाक गंद लाय्लो.

तें हास्लें. ताणे आप्ल्या दोनयी हातांनी म्हजो उज्वोहात धर्लो आनी तो आप्ल्या वोंटांक लायलो. म्हजें सग्ळें आंग झग्लाण्याबरीं कांप्लें.

हांव उट्लों आनी कारा सर्शीन चलोंकलाग्लो. सिंड्रेला म्हज्या सांगाता चल्तालें. मदेंच ताणे विचार्लें.

–आनी केद्ना मेळ्टलोय?

– फुड्ल्या आय्तारा.

– ना... आय्तार मोस्तु पय्स आसा. तूं फाल्यांच ये.

– पळेतां. पूण उतर दीना.

इत्लें म्हणतच दुसरो येक हिप्पी चलो मुक्ल्यान आय्लो. सिंड्रेलान हात वय्र कर्न ताका आपय्लें. तो लागीं आयिल्लेंच सिंड्रेला ताचे वेंगेंत गेलें. आप्ली खाड्की ताच्या मात्यार दवर्न आनी दावो हात ताच्या स्थनांवयल्यान अंर्दुन ताणे ताका धर्लें. सिंड्रेलान म्हजी ताका ओळोक कर्न दिली आनी म्हाका म्हळें, "हो पाव्ल. हो म्हजो ईश्ट".

हावें पाव्लाक अबिनंदन केलें. पूण म्हज्या काळ्जांत मोसराचे जाळ पेट्ले. ते तोंडार उगते जालेगाय?

मंगळार

आज सांजेर सिंड्रेला आम्गेर आय्लें. म्हजे बायलेक इंग्लेज उलंव्क येना. तें उलय्ता तांत्लीं थोडीं उतरां सम्जतालें. हांव घरानातल्लों. पूण तें सग्ळो वेळ रांद्च्या कुडांतच रावलें.

रातीं जेव्ताना हांवें ताका रातिचें आम्गेरच रावोंक सांग्लें.

– तुज्या आनी तुज्या मोगाळ बायलेमदें हांव ओणद कित्याक जांव? ताणे म्हळें.

– तुका आमी वेग्ळें कूड दितांव.

– ती व्हड ख्यास्त जांव्चें ना?

म्हाका हासो आय्ल्यो. म्हजे बाय्लेक कांय भेद दिस्लोना. हांवयी तो करुंक गेलोंना.

– मागीर तुं रांव्चेंनांय तर?

–हांव रांव्चें जाल्यार एका शर्तीचेर राव्तां. आमी तेगंय सांगाता निद्या.

– तें जांव्चें ना. हांव तुका पावय्तां.

–तुंच आज आम्गेर कित्याक रावनांय? ताणे म्हाका विचार्लें.

– आनी म्हजी बाय्ल घरा येक्लीच उर्ची ना?

– तुं तिका सोडुन केद्नांयी भायर वचनांय?

– वेतां, पूण आज तिच्या दोळ्यां साम्कार तुजे सांगाता वचोन रात तुम्गेर पाशार केली जाल्यार कशें दिसत तिका?

– तें व्हय. तुं म्हाका पाव्न पाटीं ये.

रातच्या वेळार हावें कार भायर काड्लें. सिंड्रेला म्हजे सर्शीन बसल्लें.

– म्हाका तुजें अजाप दिस्ता. तुं म्हाका आजून पर्किम्हण कित्याक चिंत्ताय? सिंड्रेलान विचार्लें.

–अशें तुका दिस्ता?

– व्हय, त्या दिसा तुवें म्हाका तिळो लायल्लोय. पूण आजून म्हजो हात तुका लागल्यार सप्त तुं अंग सोड्न बस्ताय.

– तो संस्कार

–तुका आप्ली बायल सोड्न हेर सगळ्यो बायलो आवय–भय्णी तश्यो दिसतात?

–खंडीत सांग्चें तर ना. पूण संस्कार तशें मांदुंक लाय्ता.

–म्हळ्यार तुका वोड्नी आसा; पूण ती तुं चिड्डिताय.

–तुं म्हण्टाय तें सत. तशें कर्चें हें सभ्यपण...

–परत सभ्यतायेची खबर काड्लीय, येक सांग, सन्यासी, ब्रह्माचारी, योगी हेयी अशेंच करिनांत?

– ना. तांच्या मनांत वोड्नी जल्माना.

–तें कशें जाव्येत?

– त्या खातीर ते सादन कर्तात. पायांच्या ताळव्याचेर कोणेंयी बोट भोंव्डाय्लें जाल्यार कुचिल्यो जातात. पूण आप्णेंच ताळव्याचेर बोट भोंव्डाय्ल्यार कुचिल्यो जाय्नांत. कित्याक जाणांय?

–तूं सांग?

– कारण, भोंव्ता तें आप्लेंच बोट म्हळ्ळें मनाक कळीत आस्ता. तेचबरी सर्शीन येता ती बायल आप्ली आवय वा भय्ण म्हळ्ळें मांदूंक मनाक तयार करीजे पड्ता.

–म्हळ्यार वोड्नेचेर जय्त जोड्चेंमु?

–व्हय.

–पुण तूं वोड्नी कित्याक चिड्डिताय?

–म्हाका म्हजे बाय्लेक अन्याय जाय्तम्हण भें दिस्ता.

–आनी तुजे बाय्लेच्या मनांत दुसरो दाद्लो भर्लो जाल्यार?

– म्हाका तें सोस्चें ना.

– म्हणजे तुं तिच्या स्वतंत्रायेक आड येताय म्हळळे बरीं जालें ना?

– ताका कितें उपाय?

– उपाय आसा संस्काराचें बंधन मोड्न मन मेक्ळें करिजे. वोड्नी चिड्डली जाल्यार ती वाड्टा आनी भोग्ली जाल्यार संपता.

कार कोल्वा पावोंक जालें. सिंड्रेलान म्हळें, “कित्लेवेगीं पाव्ल्यांव पळे? तुं देंव्ताय? दरया तडीर वचोन बस्यां?”

– घराकडेन बाय्ल एकलीच आसाने?

–चड वेळ नाका. खबर पुरा कर्तां. भारताक येंव्चे आदीं हांव इरानाक गेल्लीं. थंयची खबर आय्कोंक जाय.

–वोड्नी भोग्चिमू?

–व्हय.

–आमी दोगांय हासल्यांव.

–दरया तडीक वचोन बस्तांव तेद्ना सिंड्रेलान म्हळें, “बाय्लांचीं स्थनां धांपून आस्चीं आसी समाजिची रीत कित्या?

–पळय्तेल्यांचें मन विकार जावंक नजो म्हण.

–पळंव्च्या दाद्ल्यांचेंमु?

–व्हय

–आनी दाद्ल्यांची उगती कूड पळेवन बाय्लांच्या मनांत विकार चिंताप येंव्चेना?

–म्हाका कशें कळीत?

– म्हणचे सभ्यतेचे नेम केल्यात ते दाद्ल्यांनी आनी तेयी बाय्लांखातीर.

हांव वगे राव्लों.

सिंड्रेलान पाटीं फुडें पळेनास्ताना आप्लें हर्दें उग्तें सोड्लें. हावें दीश्ट घुंव्डाय्ली.

–असो लजेनाका. सवय जातच विकार जांव्चें ना.

–पुण आतां मन विकार जाता ताचें कितें?

तें विकार चिंतप आय्लें जाल्यार दामुन दवरनाका.

सोस्णिकाय दांबुन दवर्न हांव बस्लों. सिंड्रेलामात्र कसलीच दाक्षेण नास्ताना उलय्तालें. ताणे इरानाच्या 'माजूक' नांवाच्या सन्यास्याची खबर सांगली. ती अशी–

– संसारांत्लें दूक काबार करूंक म्हण तो भायर सर्लो आनी सग्ळो देश भोंव्तच ताका दिस्लेंकी मन्शाची इच्चा बाग्ली नाजाल्यार तो असंतुश्ट जाता आनी मन्शाक दोन थराची भुक आस्ता. खाणाची आनी भोगाची. ही भुक भागत जाल्यार संसार सुकी जातालो.

येके न्हंयचे देगेर एक्लो तर्नाटो दुकाळ गीत गाय्तालो. माजूकाक दिस्लें हें गीत न्हंय तर हो दुकांचो पाव्स. त्यो त्या तर्नाट्या सर्शीन गेलो आनी ताच्या दुकाविशीं विचार्लें. त्या तर्नाट्यान सांग्लें "येके चलयेचेर म्हाका मन पड्लां. पुण तें आय्कना".

"कित्याक आय्कना?"

"म्हाका खबर ना".

"तर ती चली गुन्यांवकार. तिणें दुकाक जल्म दिलो. चल आमी तिचेसर्शीं या."

ते दोगयी ते चलये सर्शीन गेले.

"तुवें ताची खुशी कित्याक कर्पय्लिय?" माजूकान विचार्लें.

"हावें ताचें कांय्च करुंक ना. पूण तो माग्ता तें म्हज्यान दींव्क जाय्ना". ते चल्येन जाप दिली.

"तुका कितें जाय?" ताणे त्या तर्नाट्याक विचार्लें.

"म्हाका तिची वेंग जाय.... येका दाद्ल्याक बाय्लेथाव्न जें सुक जाय आस्ता तें सग्ळें म्हाका जाय."

"चलये, तुं कित्याक कबूल जायनांय?"

"हांव म्हजें निस्कळपण ताका ओप्सूं?"

"निस्कळपण? ह्या उत्राक देवाच्या संसारांत रीग ना. बंदनांचे सांक्ळेचें तें सोबीत नांव. जाका भुक आस्ता ताका जेवण मेळोंक जाय. जाका आशा आस्ता ताका ती भागंव्क मेळोंक जाय"

"ही जान्वरांची जीण जांन्विना?"

"जांव. तेच जिण्येंत सुक आस्ता. शांतताय आस्ता. मन्शान सभ्यता निर्मुन कोणाचें बरें केलां?"

हांव हास्लों.

–कित्याक हास्ताय, सिंड्रेलान विचार्लें?

–हीच तुम्च्यि जीण–नदरमु?

–व्हय.

–पुण येक्ल्याची भुक भागंव्क दुसऱ्याचेर सक्ती वापर्ची कित्याक?

तें खरें, सक्ती वापरुंक जाय्नां आतां म्हाका तुज्या शरीराचो उपभोग घेंवची इच्छा जाली आनी तुं तयार आसल्लोय....

हावें नदर घुंव्डाय्ली.

त्याच वेळार सिंड्रेला म्हजे वेंगेंत रिग्लें. सभ्यतायेचीं रुण्णीं खिणान गळोन पड्लीं आनी हावें ताका वेंगेंत घेव्न थर्तर्च्या वोंटांनी ताचे वोंट चिव्ले.

–तुजें समदान जालें?

–ना. फकत सुर्वातजाल्या, सिंड्रेलान जाप दिली.

कित्लो वेळ आमी येकामेकाचे वेंगेंत बसोन उर्ल्यांव तें देव जाणां. मदेंच म्हाका घर्चो उडास आय्लो आनी म्हजो वेड्कोळ सडील जालो.

–कितें जालें? ताणे विचार्लें.

– घरा वचोंक जाय. काळोक जालो.

– हो म्हजेर अन्याय न्हंय? ताणे विचार्लें.

–ताचें प्राचितयी हांव कर्तलों, अशें म्हण हावें पर्तुन ताचो उमो घेत्लो.

आयतार

हांव सिग्रेट वोडिना. पूण मारिजुवाना वोडुन समादी कशें जांव्चें हाचो अन्बोग घेंव्चो अशें म्हाका दिस्लें. हिप्पिंच्या घरांत्ल्या येका कुडांत आमी बसल्ल्यांव. कुडिचेर कोणाकच गमन नातल्लें. सिंड्रेलान केदनांगी

देगंबराचो आवतार घेत्ला.

ताणे येक सिगार उसय्लें. तंबाकुंत चरस भर्शिल्लें आनी नवी मोर्तल घेव्न नवें सिगार वोळून तें पेटय्लें.

येक दम वोड्न ताणे ताची रूच घेत्ली आनी सिगार म्हज्या तोंडांत घालें.

हावें व्हड दम घेत्लो. धुंवर म्हज्या मस्तकाक चड्लो. हांव खोंकुन बेजार जालों. सिंड्रेलान म्हजी पाट अनी ताळू थापड्ली... "सव्कास" ताणे म्हळें. संसार घुंवता मुळ्ळो अंदाज म्हाका पयलेच पाव्टीं जालो.

"पुरो" हावें म्हळें.

–आजून तुवें कांय्च पळेंवक ना. अनिकयी इल्लें वोड, ताणें म्हळें.

–राव

म्हज्या बितर्लें जान्वार चाळ्वलें. म्हज्या सम्कार स्त्री दिस्ताली. तिचीं स्थनां आनी जांगो म्हाका चळवय्ताल्यो. जान्वरांबरीं हावें म्हजी वोड्नी भागय्ली आनी मागीर सिगार वोडीत वोडीत हांव मन्श्यांच्या संसारा पल्तडी गेलों.

म्हाका जाग जाली तेद्ना हावें पळ्य्लें की म्हजी तक्ली सिंड्रेलाच्या उक्त्या पोटार आसात. तक्ली हालव्न हांव उटोन बस्लो. सिंड्रेला आजून निदल्लें. ताच्या उग्त्या आंगावय्ल्यान येक उड्ती नदर भोंव्डाय्तेच म्हजें आंग शिर्शिर्लें. चाम्ड्याच्या मोगान कुड्डो जांवचीं कल्पनां म्हाका सोसोनाजालीं म्हजी नदर म्हज्या आंगवयल्यान हावें भोंव्डाय्ली. सभ्यतायेचो भेस थंयनातल्लो. म्हजी म्हाकाच लज दिस्ली. हांव उट्लों आनी वस्तुर घालें.

सिंड्रेला आजून कोवळून पडल्लें. ताका ते आवस्तेंत म्हज्यान पळेंव्क नजो जालें.... हावें येक चादर ताच्या आंगार पांगुरली आनी बोल्सांत हात घालो. हांव येक कागदाचो कुड्को सोद्तालों. पूण बोल्सांत कागद नातल्लें आनी त्या कुडांतयी नातल्लें. बोल्सांत येक बिल मेळ्ळें. ताच्या पाट्ल्यान हावें बरयलें–

सिंड्रेला–

तुका देव बरें करूं. म्हजी वोड्नी भाग्ली. तुका म्हज्या घराचीं दारां सदांच उग्तीं आस्तलीं. पूण पर्तुन म्हाका हांगा आपय्नाका. तुम्चें तत्विग्न्यान खरें आस्त आनी बरेंयी आसत. पूण भोगाचे आशेन जिवित जियेंव्ची म्हाका सवय ना. ती म्हाका करुन घेंव्कयी नाका.

तुजो

रातीक घरा आय्लों. पूण बायलेचे नद्रेक नदर दिंव्चें धयर म्हाका जालें ना. बाय्लांक सांगानास्तानांच जाणां जांव्ची सकत आस्ता. ती जाणां जाली जायजे. पूण कांय्च उलय्लिना.

आय्तार

आट दीस जाले सिंड्रेला आय्लें ना. ताचो उडास परत परत येतालो. हांवनातल्ल्या वेळा घरा येव्न आप्लें तत्विग्न्यान सग्ळें बाय्लेक सांगत म्हळ्ळी भिरांत म्हजे थंय सदां उर्ली. पूण सिंड्रेला आय्लेंच ना.

सांजेर कोल्वा वचोंक येतायिगिम्हण बाय्लेक विचारल्ल्या तेद्ना तिणे म्हळें– "सिंड्रेलाक मेळोंकमू? मागीर म्हजी अड्कळ कित्याक?"

भालियेबरीं तिचें उतर म्हज्या काळजाक तोप्लें. पूण हांव हास्लों. म्हळें "तुका बेजार जालें?"

–बेजार जांव्क ना. पूण तुमी पय्ले पावटीं ते बाय्लेक घेव्न घरांत भितर सर्ले तेद्नांच म्हज्या मनांत पालीन बोब घाली.

–बरें बाये. तुं ये.

– म्हाका काम आसा. तें कोण कर्तलो?

–आज भोवोंक मेळ्ळें म्हण फाल्यां मेळत म्हळ्ळो भर्वसो ना. भुर्गीं जातच...

–तुमी वेतात जाल्यार वचा, अशें म्हणोन बाय्ल भितर गेली.

कित्लोसो वेळ परयांत हांव कदेलार बसोनच राव्लों. म्हाका सिंड्रेलाचो उडास येतालो आनी बाय्लेचियी बिर्मत दिस्ताली. म्हजें मन गुन्यांव्काराचें जाल्ल्यान बाय्ल सर्शीन आसल्ल्या बगार सिंड्रेलाचे नद्रेक नदर दिंव्चें बळ म्हजेथंय नातल्लें.

निमाणें हांव येक्लोच कोल्वागेलों.

कार रावयताना पाव्ल मेळ्ळो ताणे सांग्लें की सिंड्रेला होटेलांत बस्लां.

दोन जोडीं मेजार बसोन बियर पियेतालीं. "हाय!" म्हण म्हाका सिंड्रेलान आप्यलें. लाग्शिलें येक कदेल वोडुन हांव तांचेमदें बस्लों.

– तुं कितें घेताय?

– कोक.

– हेव सम बियर. येक्ल्यान म्हळें. वी आर सेलेब्रेटींग..

हावें घुस्पडोन सिंड्रेलाक पळयलें. तें हर्शीं लजेनातल्लें. पूण आतां नद्रेनच हासोन लजेलें.

हावें कितेंयी उलंव्चे आदींच म्हजे मुकार बियरिचो ग्लास आयलो.

"चियर्स!। म्हण हावें तो उकल्लो.

"चियर्स टू सिंड्रेला आंड हर बेबी इन द ऊंब!" त्या हिप्पीन म्हळें.

म्हजो हात कांप्लो आनी बियर आंगार पडली.

–कितें जालें? दुसरे चल्येन विचार्लें.

– ही ईज थ्रिल्ड.

हावें बोल्सांतलो लेस काडून बियर आनी आंगावय्लो शेळो घाम पुस्लो. हें चल्ता आस्तानांच सिंड्रेलाचो त्या दुसऱ्या हिप्पीन उमो घेत्लो आनी आपलो दावो हात ताच्या पोटावयल्यान भोंव्डाय्लो.

गुन्यांवकाराबरीं हांव तक्ली सकय्ल घाल्न बियर पियेंव्क लाग्लों.

लोव लोव हेर उटोन गेले. हांव आनी सिंड्रेलाच उर्ल्यांव.

"सिंड्रेला, तें खरें?" हावें ताका विचार्लें. म्हजो आवाज कांपेरो जाल्लो.

–हांव जिक्लीं, तूं हार्लोय, सिंड्रेलान म्हळें.

– तुका कितें सांग्चें आसा सिंड्रेला?

– त्या दिसा चीट बरोव्न गेल्लो तुं. पूण हांव जाणां आसल्लीं तुं आय्लेबगार रांव्चोनांय म्हण. आनी तुं आय्लोय. आय विन!

हावें सुट्केचो सुस्कार सोड्लो आनी पर्तुन विचार्लें, "तें खरें?"

– देवाच्यान खरें!

– तो कोण?

– हांव कशें सांगूं?

– हांव न्हंय...

– कोणाच्यान सांगोंक जाता?..... पूण तुं भियेनाका. हांव भुर्गें 'इलेजिटिमेट चायल्ड; तशें वाडयतालीं....

– त्या भुर्ग्याचो कसलो गुन्यांव?

– बापायक गट्स ना म्हणतच ताच्या वांट्याक दुसरे कितें येतलें?

– पूण तुजें मुकार कितें?

– म्हजें? हांव आवय जातेलीं!

– लग्न जायनास्ताना?

– तांतूं कितें! म्हाका अबिनंदन पुणी करमु!

– अबिनंदन! हांव वचों?

– वच... पूण म्हाका विसर्नाका. मदें केद्नां तरयी ये... कांय हांवच तुम्गेर येंव?

– तुका आम्गेर येनाका म्हण सांगोंक म्हाका जिवार येता. पूण तुं येनाका. प्लीज. म्हजेर उपकार कर!

– हांव बांळ्तेराक तुम्गेर येना.

– हांव जाणां. पूण म्हजी बायल....

– हांव तुजें नांव घेना.... घे उतर...

– न्हंय सिंड्रेला... आमच्या लग्नाक आट वर्सां जालीं. पूण आजून म्हजे बाय्लेचो कुस्वो भरूंक ना....

सिंड्रेला हास्लें... "तर तो तुं न्हंयच!" आनी तें उटलें.

*******

फंग्तीं मधें--

वर्सां आदीं, म्हण्जे १९९२ - व्या वर्सा म्हजी प्रथम भेट चंद्रकांत केणी सांगाता कारवारांत जाली. सुवाळो आसल्लो अक्रावी अखील भारतीय कोंकणी साहीत्य सम्मॆळन. हांव अध्यक्ष आशिल्लों आनी दे। डो। शिवराम कारंत मूकेल सय्रो. आनी हांगासर गोंयांथावन आयिल्लो मेनॆस्त केणी मानाचो प्रतिनिदी. हेर आसल्ले, सर्वश्री उदय बेंब्रे, महाबलॆश्वर सय्ल, ताचें परिवार, (दे) दिलीप गांवकार, मानेस्तीण आशा पालांकार, यश्वंत पालॆकार, पाव्ल मोरास, विजेपी सल्दांज्ना आनी हेर. ह्या आनी असल्या सुवाळ्यांक हांव नवोच्च आनी असल्या कार्याकलापांनी नोविसच म्हण्येत. तवळ पऱ्यांत हांवें कांय धा-बारा लांब उपन्यास लिकल्ले, ते प्रगट जाल्ले आनी म्हाका कानडी लिपियेंतल्या कोंकणी साहितांत कांय तरी नांव आसल्लें. पूण ह्या सम्मॆळनाक चडशे आयिल्ले प्रतिनिधी गोंयचे या कारवार परिसरांतले आनी दॆवनागरी लिपियेंतल्या कोंकणी साहिताक वळ्साल्ले. तांकां कानडी लिपियेंतल्या कोंकणी साहिताची परिचय नातल्ली आनी अशें म्हणताना, म्हजियी परिचय नातल्ली.

अशें जावन हांव हजारां मदेंयी एक्लों जालों.

एका थराची कावजेणी म्हजेथंय उदेली आनी ह्या अध्यक्ष स्थानाक म्हाका ‘लोटून’ घाल्ल्या पाव्ल मोरासाक हांवें मनांतच सोवलें. ती संगत वेग्ळी, आसूं. पूण म्हजें नशीब तितलें वायट नाशिल्लें - कितेंगीं म्हाका केणीबाबाची वळक लागशील्यान जाली आनी जमली. कोंकणी आनी हेर साहिताविशीं आमी सबार संग्ती उलयल्यांव आनी म्हज्या वाव्राचेर मन पडोन कितेंगी ताणे म्हाका दिल्ली पर्वणगी विशॆस : म्हजी खंचीयी कथा तूंवें खास परवण्गी विचारिनास्तां लिपिप्यंतर करुयेत. याद येता म्हाका, आमच्या ‘लेककांचो एक्वट’ हाणीं प्रस्तुत केल्ल्या एका कामसाळेंत केणीबाब प्रमूक संपनमूळ व्यक्ती जावन मंग्ळूराक आयिल्लो.

आनी आमच्या कोंकणी संस्थ्याचो पद्युत्तर पदवीकाचो दॊन वर्सांचो कोर्स सूरु जाताना मटव्या कथेंच्या अध्ययनांत कॆणीबाबाची classic मटवी कथा ‘हिप्पी चली’ विंचून आमच्या पद्यांत सेर्वय्ली. तेच्च कथेची फोडिणशी कर्चें प्रॆतन हांगासर चल्लां.

पयल्यान पयलें, वाचकाक ह्या कथेंत आसचो universal appeal उटोन दिस्ता. गोंयचे तडिंचेर हिप्पींनीं सांस्कृतिचेर केल्लें आक्रमण सबार गोंयकारांक उब्देसांचें जाताना सबार कथा आनी घडितां घडल्यांत आनी

लिकून आयल्यांत पूण त्ये मेळींत ही कथा विबीत्र., परिणमकारी आनी अव्वल रितीर मन्श्या कालेत जायर कर्चे तसली जावन आसा. हांतूं अपा-लिपा कसलेंच ना. मन्श्या शास्तिर आपल्या परिपूर्ण आर्भटपणांत (in all its crudity and primitiveness) राज कर्ता तरी वाचकांक कसलेंच लंग्गीक eroticism सुचायना. कथेची वस्त तसली. मूळभूतवादी भारतीय संस्कती आनी परिपूर्ण विणग्यापणाक सबावीक म्हण मांदच्या हिप्पी जनांगाक एका आपूर्व रितीर मिसळाय्ता.

लॅकक आनी हिप्पी चली सिंड्रेला हांच्या मदलें आकर्शण फकत आनी शुद्द लंयगीक म्हळ्ळ्याक कसलोच दुबाव ना. हाका साक्स जावन आसा लॅककाचे पतिणेचो मूक पात्र. हो पात्र मोनेपणी कष्टाता आनी आप्लो पतिच्च श्रेष्ट म्हळ्ळ्या सांप्रदायीक नॅमाक मातें भागावन सिंड्रेला आनी आपल्या पती मदें कितेंच चलल्लें ना म्हळ्ळ्या फटकिऱ्या मुख्वाडा पाटल्यान लिप्ता.

आनी लॅकक तरी आपणाच्या कर्तूबाचेर कसलोच पस्ताव भोगाना, भोग्लो तरी (असलो सूचाव ना) आपूण दादलो म्हळ्ळ्या घमंडायेचो बर्पूर फाय्दो जोडता. सिंड्रेला आनी लॅककाचें लंयगीक मिलन इतल्या नाजूकायेन पिंत्रायलां की ही कथा खरीच classic short story – च्या पांव्ड्यार आसा.

पयिल्ले पावटीं सिंड्रेलाच्या वत्तायेक लागून मारिवाना सेवल्ल्या लेककाचे हाल आसात अशे:

सिंड्रेलान येदोळच दिगंबराचो अवतार घेतला. म्हज्या बितर्लें जानवर चाळ्वलें. म्हजे सामकार स्त्री दिस्ताली. तिचीं स्थनां आनी जांगो म्हाका चाळ्वय्ताल्यो. जानवरापरीं हांवें म्हजी वोडणी भागयली आनी मागीर मारिवानाचे सिगार वोडित वोडित हांव मन्श्यांच्या संसारा पल्तडी गेलों.

हांगासर ही कथा एक थरावीक उड्की मारता. केन्ना लॅकक आपणाक मारीवाना सिगारान दाडलेल्या संसाराथावन पाटीं येता, तेन्ना तो सिंड्रेलाक एक चीट बरवन दवर्ता. 'सिंड्रेला, तूका दॅव बरें करूं. म्हजी वोडणी भागली. तूका म्हज्या घराचीं दारां सदांच उग्तीं आस्तेलीं. पूण पर्तून म्हाका हांगा आपयनाका. तुम्चें तत्वग्यान खरें आसत आनी आस्तेलें. पूण भॉगाचे आशेन जिवीत जियेंवची सवय म्हाका ना. ती म्हाका करुन घेवंकयी नाका.'

घरा आयिल्ल्या लेककाक बाय्लेच्या नद्रेक नदर दिंवचें धयर नातल्लें.

ताचे पतिणेन कांय विचारल्लें ना पुण घडलां तें तिका सांगानास्तांच कळीत जालां म्हळ्ळें लेककाक कळीत आसल्लें. बाय्लांक सांगानास्तांच जाणां जांवची सकत आस्ता.

आट दीस पाशार जाले तरी सिंड्रेलाची खबर ना.

ऑक्रेक तडवूंक सकानास्ता पतिणेक घेवन कोल्वा वेचो प्रस्ताप तो काडटा. कितें घडलें तें अशें आसा: ती विचार्ता – सिंड्रेलाक मेळूंक? मागीर म्हजी अड्कळ कित्याक? तवळ तो विचार्ता – तूका बेजार जालें? आनी तिची जाप जावन आसा खंडीत अबीजात. 'बेजार जांवंक ना. पूण तुमी पयिल्ले पावटीं ते बायलेक घेवन घरांत बितर सर्ले तेदनांच म्हज्या मनांत पालीन बोब घाली.

लेखक एक्लोच वेता कोल्वा आनी थंयसर एका रेस्टोरेंटांत हेरां संगीं बसून बियर पियेंव्चें सिंड्रेला ताका मेळ्ता. हाका पळेतेच्च तें मात्सें लज्ता. तवळ पर्यांत तें कसल्याकयी लजेनातल्लें तर आज ताच्या पोल्यांक तांब्साळो वर्ण कसलो?

ताका बियेर पिये म्हण तें वत्ताय कर्ता. ताचे सांगोडी म्हणतात – we are celebrating today! कसलो सुवाळो? लेखकाचें सवाल मुग्दच्च सय. ते हिप्पी ताका सांग्तात – सिंड्रेलाचो कुस्वो भर्ला.

लेखक इतलो घाबर्ता आनी विचार्ता – कोण जाव्येत बापय?

हांव नेणां म्हणता सिंड्रेला. बापय्क फुडें येंव्क 'गटस' नांत तर बाळश्याक illegitimate child जाव्नंच व्हड कर्तां. हांगासर बाळश्याची कसलीच्च चूक ना न्हय? ह्या सवलान लेखक सग्ळोच फुमार जाता. तांणेंयी सिंड्रेलाथंय आप्ली वोडणी थांबयिल्ली न्हय?

कांय आपूणंच? हें गुपीत सवाल ताका घाबरूंक कर्ता. कोण जाणां.... सिंड्रेला ताचीं चिंता वाचता.

'हांव तुजें नांव घेना, घे उतर!' तें आश्वासन दिताना लेखक म्हणता–

'न्हय, सिंड्रेला....आमच्या लग्नाक आट वर्सां जालीं पूण आजून म्हजे बाय्लेचो कुस्वो भरुंक ना....'

तवळ सिंड्रेला निमाणो खिळो मार्ता: तर तो तूं न्हंय्च!

***********

# पप्पाचें सैकल

–किशू बारकूर

आमगेर सुर्वेर थावनच, पप्पाक, पप्पा म्हणोनच आमी भुरग्यांनी आपंवचें. आमच्या गांवांत थोड्यांगेर बापायक 'आना' म्हण आपयताना आनी थोड्यांगेर 'पाय' म्हणची सवय. आमगेर कशी रिवाज सुरू जाली म्हळ्ळेविशीं हांवे तवळ तकली धाडावंक नातल्ली. हांव घरांत निमाणो जाल्ल्यान सरवांक मोगाचो आनी पप्पा मद्रास काम करतालो जाल्ल्यान, ताचे भिरांतिविणें वाडल्लों. आमगेल्या भोंवतणींत आमचेंच एक क्रिस्तांव कुटम. शेजारा पूरा हिंदवांचीं.

हांव खंय आसल्लों.. हां, हांव घरांत निमाणो जाल्ल्यान आनी पप्पा पयशिल्या मद्रासांत आसल्ल्यान, सरवांक मोगाचो आनी भिरांतिविणें वाडल्लों. आमच्या शेजारच्या दोन घरांनी म्हजेच प्रायेचे दोग ईष्ट (श्वेतकुमार) आनी यंकटेशा (वेंकटेश). इस्कोलांत सोडल्यार उरल्लो वेळ आमी तेगूय हर एकांतयी सांगाती. इस्कोलांत कित्याक सांगाता नातल्ल्यांगी म्हळ्यार, ते दोगयी आमच्या घरालागींच गुड्यार आसल्ल्या सरकारी इस्कोलाक वेताले आनी म्हाका देव भिरांतिच्या इगर्जे इस्कोलाक मैलभर चलून वचजे पडतालें. ते दोगयी दोनपारांचें जेवंक घरा वेताना हांव इस्कोलांत बुतियेची शेळी पेज आनी इंयक जाल्ले हापोळ चाबतालों. सांजेचें ते पावणे पांचांकच घरा पावल्यार, हांव इस्कोल जाल्या उपरांत अर्धें वोर चडीत दोतोर्न शिकून पावणे स या स वोरार घरा पावतालों. उरल्लो वेळ आनी सनवार, आयताराचें आनी गिमेच्या दिसांनी आमी केदनांय सांगाताच. घरा लागशिल्या मोठाच्या रानांत रुकांवयले आंबे काडूंक आनी बिंडां झडवंक, मोठाच्या बामणाच्या 'माणीं' लागीं लडाय मारूंक, आय्सक्ँडी विकून येंवच्या म्हाताऱ्या नंदीक फसवन आय्सक्ँडी उसळावंक, काणयो आयकूंक, खबरो उलवंक सर्वांकयी आमी सांगाता. देव भिरांतिच्यो गजाली हांव इस्कोलांत शिकताना, संसारी गिन्यानाच्यो संगती ते म्हाका शिकयताले. आमचे मधें जाती कातिंचो फरक येनातल्लो. ते तांच्या कमल टीचर, विटल आनी जयराम मास्ट्रांची काणी सांगताना हांव तांकां सिरील आनी गाणिगा मेस्त्रिंची गजाल कळयतालों. धवो लोब

न्हेसून मात्यार कोट्ट दवर्न येंवच्या सिस्ट्रांविशीं वर्णितालों. लोबाभितर व्हडलें चाबूक घेवन दोतोर्न शिकोंवक येंवच्या व्हडल्या पादऱ्याबाविशीं सांगून तांकां भेष्टायतालों.

अपरूप हातांत कांय पावणशें पयशे जमो जाल्यार आमी तेगांयनी चार मैलां चलून 'नंदा' टॉकिसांत सिनेमा पळेवंक वेचें आसल्लें. गुझ्यार तांच्या इस्कोला लागीं सिनेमांचीं पोस्टरां चिडकायनातल्ल्या वरवीं, तांकां सिनेमांची खबर हांवें दीजाय आसल्ली. सिनेमांविशीं चडीत खबर म्हाका म्हण सरवानुमताना आमी मांदून घेतल्लें. 'नंदा' टॉकिसांत मुकल्या बांकांनी बसूंक पावणशें पयशांची टिकेट. चार मैलां चलुनच वेचें जाल्ल्यान दुसरो कांय खर्च नातल्लो तरीय आमच्या घरा थावन पावणे मैलां पयस वाटेर मेळची नंय आमकां उपद्र करताली. सुक्ते वेळार नंयत पांयांगांटीक येंवच्या उदकांत देंवून पलतडी वच्येत आसल्लें तरी, अमास पुनवेक लबदोन आमी वेताना भरती आसल्यार येताना सुक्ती या वेताना सुक्ती आसल्यार येताना भरती आसून खंयच्याय एका वेळार नंय उत्रूंक दोणिची गर्ज पडताली. रुजार फुडतझ्याचो कळोव आसून तो दोण चलयतालो. तरी एक पावटीं ताका ताचें देवें धा पयशे दीनास्ताना धांवून आयिल्ल्या शेतुचे तकलेर दोण ओच्चुंच्या जल्ल्यांत मारल्ल्यान, आनी धा पयशे जमो करूंक आनिकी थोडे दीस वेतात जाल्ल्यान, आमच्या पंगडाच्या सालवासांवांक हांवच पावतालों. नंय तडीर बाप्पुगेलें घर आसून, बाप्पुचो पूत देवूक सलाम मारल्यार तो आमकां तांचे दोणीर पलतडी पावयतालो.

उपरांतलीं सवाय तीन मैलां दोनपारांच्या कर्कट्या वोतांत चलताना हांव, शेतु आनी यंकटेशाक आमी पळेवंक आसच्या सिनेमाविशीं कळयतालों. सिनेमांतले मनीस, तांकां गुळो लागताना कशें पयलेंच तांबड्या तिंतांत बुडवन दवरल्लें स्पंज दांबून रगत येंवचेबरी करतात, राजकुमार कसो एकलोच पंद्रा जणां लागीं लडाय करचे पासत सदां 'व्यायाम' करून आपलीं मासकुटां अंरदिता, विषणुवर्धन, आनी राज कुमाराक मधें उजो वचना आनी तांणी सांगाता फिल्म काडलें जाल्यार, विषणुवर्धन लडायेंत जिकता जाल्ल्यान, तो विषणू सांगाता फिल्म काडूंक आयकना, हें पूरा मीट मिरसांगेसंगीं हांव तांकां सांगताना ते अज्याप पावताले आनी खरोच हांव तांचो मुखेली म्हण मांदताले. पाटीं घरा आयल्या उपरांत आनयेक फिल्म

पळेता पर्यांत म्हळ्यार परत तेगांयच्या हातांत पावणशें पयशे जाता पर्यांत पळेल्लें फिल्म घरा नटन करूंक आसतालें. कोणाच्या घरा खेळतांवगी, त्या घरांत तो राजकुमार आनी उरल्ले 'खळनायक' जाताले.

हांव आमच्या इस्कोलांत 'विध्यार्थी नायक' जावन 'प्रचंड बहुमतांत' जिकून आयल्या उपरांत तसलें कांय नातल्लेवर्वी हांव 'एसेंब्लीर' भुरग्यां मुकार रावून 'स्कूल एटेन्शन' आनी 'स्टेंडिटीस' म्हण बोबाट मार्न ओर्डर दिंवचें पळेवंक, तांच्या इस्कोलाक् चुकारी मार्न, आमच्या इस्कोलाच्या दोऱ्या पाटल्यान येवन रावल्ले सयती!

अशें बिंदास वाडून येंवच्या म्हाका, पप्पान मद्रासचें काम बंध कर्न घरा येवन रावल्लें बरें लागूंक ना. व्हडल्यो भयणी, काजार जावन वचून, भाव बोंबय पावल्ले आसतां, घरा मांय सांगाता हांव मात्र आसल्लों. पप्पा येवन रावल्लोच म्हजे पाकटे मोडल्लेशे जाले. पप्पान घरा येवन रावयिल्लेंच केल्लें पयलें काम म्हळ्ळार म्हजी अड्डादिड्डी भोंवडी रावयिल्लें. ताणें म्हाका केन्नांय मारल्लो उडासाक येना तरी, ताची एक दीष्ट या धेंकणोच म्हाका पावतालो. चडताव तो घराच आसताना म्हाका शेतु आनी यंकटेशागेर वचुंकच दीनातल्लो. तो सांजेजें पेंटेक गेल्ल्या वेळार चुकारी मार्न हांवें तांकां मेळूंक वेचें आसल्लें. ते घरा आयल्यारय पप्पा तांकां गोवजी करतालो जाल्ल्यान तांणीय येंवचें उणें केल्लें.

पप्पाचे जबरदस्तेन अलतार भुरग्याच्या मेळाक भरती जाल्ल्यान सनवाराचें इगर्जेंत मीटींग आसतालें. देकून सिनेमा खंयच्या गुड्याक गेलां खबर नातल्ली. शेतु आनी यंकटेश आतां पावणशें पयश्यां वयर आनी धा पयशे दोणीचे एकटांय कर्न कळ्ळाचे दोणीर पलतडी वचून सिनेमा पळेवन येताले आनी आप्रुप मेळल्ले तवळ, नव्या नव्या हिरों विशीं म्हाका सांगताले. 'गंधद गुडींत् ल्हान चोराचो पात्र केल्लो प्रभाकर कसो आतां हीरो जावन चेडवां सांगाता नाचता. शंकरनागाचें कराटे, हें पूरा तांणी सांगताना म्हजें काळीज मुर्गुटतालें. तवळ ते म्हजी बिर्मत पावताले. एका तेंपार तांचो मुखेली कसो आसल्लों हांव पप्पा घरा आयिल्ल्या थावन भिजल्ल्या कावळ्यावरी घरांत कोवळून बसतालों. पप्पान मद्रास आसताना ताचेलागीं आसल्लें सैकल रैला गाडियेर कोड्याळ पर्यांत हाडवन थंय थावन रस्त्यार दोन दीस चलवन घरा हाडल्लें. हरक्युलिस इंगलेंड गाडी'

म्हण त्या सैकलाविशीं सांगचें असल्लें. मद्रासांत साट रुपय दीवन मोलाक घेतल्ल्या त्या सैकलाचेर ताका खंय नातल्लो मोग. आमगेल्या एका कुडांत कोनशार धरणीर गोणी वस्तुर हांतुळन, ताचेर तें सैकल रावयिल्लें. हांवें सुर्वेर तें रावयिल्लेकडेच पेडेल घुंवडावन, ताचो दिवो पेटाशें केल्लें पप्पाक कळून, उपरांत ताणें ताका बीग घाल्लें.

तशें म्हण दोन हपत्यांक एक पावटीं सोडल्यार त्या सैकलार पप्पा खंयसरय वचनातल्लो. पूण दोन हपत्यांक एक पावटीं सैकल भायर काडन, सगळें सोडवन, तेल सोडन, पर्त्यान जोडचें म्हळ्यार पप्पाक भारी. एक सनवार सोडन, एक सनवार, सगळो दीस पप्पा ह्याच कामांत खर्चितालो. सैकलाच्या कामाक जाय पडची हरयेक सामागरी ताचेलागीं आसल्ली. स्पानराचें पेटूल, वारें मारचो पंप, तेल घालचें गिंडेल सर्व ताणे जमो करन जोगासाणेन दवरल्लें. सकाळिंची पेज जेवन सुरू केल्लें काम सांजेर चार वोरां पर्यांत लांबतालें. सनवारां दोनपारांचें अरध्या आदेसाचें इसकोल काबार कर्न आयिल्लों हांव त्या सैकलाच्या कामाक ताका मजत दितालों. उपरांत सैकल घेवन पप्पा पेंटेंत भोंवाडे मारतालो. सांजेर पाटीं हाडन घरा भितर बीग घालन दवरल्ल्या सैकलाक दोन हपत्यां उपरांतच सुटका. तोच नाटक... परत सुरू जातालो.

यंकटेशाक आनी शेतूक घरा कोणायची बंदोबस्त नातल्ल्यान ते एदोळच बाबूच्या सैकला आंगडींत भाड्याक मेळचीं सैकलां हाडन सवारी करूंक शिकल्ले. थोडे पावटीं म्हजे मुकार ते सैकलार 'सुंय' कर्न वेताना म्हाका कितेकितेंशें जातालें. सैकल सवारी शिकूंक म्हाका पप्पाची बिलकूल पर्वण्गी नातल्ली. घराच 'हरक्युलिस' इंगलेंड गाडी आसून म्हाका सैकल सोडूंक येना म्हळ्ळी गजाल भोव लजेभरीत जाल्ली. आतां म्हाका दिसाक सैकल शिकचेविशीं चिंतनां तर, रातीक हांवें हात सोडन, पांय अट्ट्याचेर दवर्न सैकलार थरावळ कसरत केल्लीं स्वपणां पडतालीं. कशें तरी सैकल सोडूंक शिकजे म्हण हट पडल्लें.

घरांतली बंधड चुकवन घेंवच्याक हांवें आतां इगर्जेचो आसरो धरल्लो. सनवारा सांजेर साडेचार वोरांच्या मिटिंगाक हांव दोन वोरारच घरा थावन भायर पडतालों. विचारल्यार इगर्ज नितळ करची, कुमगार भाजचो, कुमगाराचीं निबां तयार आसतालीं. आयताराचें सकाळीं मीस, दोतोर्न,

जाल्यार दोनपारांचें आलतार भुरग्यांचें म्याच इत्यादी म्हण परत घरांतलो सुटतालों. इगर्जेंतलीं सर्व कामां देवाचे कुरपेन जातालीं जाल्ल्यान, पप्पा थावन म्हाका कांय हरकत नातल्ली. त्या वेळार इगर्जे लागचो म्हजो ईष्ट पेटरिकाचे कुरपेन हांव इगर्जे मयदानार सैकल सोडूंक शिकलों. चार, पांच हपत्यांनी, सनवारा आनी आयताराच्या खळमीत नातल्ल्या प्रेतनांत, धोंपरार आनी हातागांटिंनी, मार कर्न घेतल्या उपरांत हांवें जयत जोडलें आनी सलीसायेन सैकल सोडूंक पावलों. रस्त्यारय हांवें एक दोन पावटीं सैकल चलयलें तरी, पप्पा खंय पळेत म्हळ्ळें भ्यें म्हाका धोसतालें.

आतां म्हजी दीष्ट पप्पाच्या 'हरक्युलिस' इंगलेंड गाडयेर गेल्ली. भाड्याच्या लडकाटी, जब्बू, सैकलां मुकार, पप्पाचें हरक्युलिस, कोलवा घरां मुकल्या ताजमहलाबरी सोभात म्हण म्हाका भोगतालें. ताची रंगीन आवाजाची कांपीण, पर्जळीत उजवाड दिंवचो दिवो, अट्ट्याच्या हाताळ्याक आसल्लें तांबडें मोव स्पंज आनी उमकाळचीं रंगाळ फितां, मोव पाचवी सीट, पेडलाक उजळचीं रिपलेक्टर्स आनी पप्पान जोगासाणेन पुसून एक माती खेल्लें खत सयत नासताना, तेल दीवन सांबाळ्ळेल्या पर्जळाये मुकार भाड्याचीं लटाम सैकलां कांयींच न्हय आसल्लीं. कशें तरी एक दीस 'हरक्युलिस' इंगलेंड गाडी रस्त्यार वर्न यंकटेशा आनी शेतु मुकार दवलत दाकयजे म्हण हांव दीस रात चिंतालों. होगडावन घेतल्लें म्हजें मुकेलपण परत जोडिजे म्हण स्वपणेतालों. पूण सैकल कशें घरा थावन भायर काडचें, चावी खंय आसा, या म्हाका सैकल सोडूंक येता तें पप्पाक कशें सांगचें म्हण कळनास्तां विरार जातालों. मधें शेतु आनी यंकटेशालागीं हांव हे पावटीं बरे मार्क्स घेवन पास जाल्यार पप्पान म्हाका इसकोलाक वचूंक सैकल दितां म्हळां म्हणून लाट सोडल्लें. तांणी आतां म्हाका पात्येंवचें इल्लें उणें केल्लें तरी मुकार कांय सांगनास्ता फावोत्या वेळार राकून रावल्यात तशें दिसताले. आनी हांव कांय तरी आज्याप कर देवा म्हण मीस रजार करच्या वेळार खळनास्तां मागतालों.

त्या एक दीस सनवारा मिटिंगाक म्हण वेगींच गेल्लों. हांव बाबू सायबाचे अंगडिंतलें लटारी सैकल हाडन इगर्जे मैदानार भोंवाडो काडतालों. हेर थोडे अलतार भुर्गेयी ह्याच खेळार आसल्ले. तांचें मधें, म्हजो धाकटो ईष्ट जेरी आसल्लो. तिस्रेंतगी चोवतेंतगी शिकून आसल्लो

तो म्हाका मोगाचो. पूण मात म्हा पोकरी. म्हजेलागीं येवन 'तुका डबल रैड करूंक येना' म्हण चिडायलागलो. हांवें ताका क्यारियर नातल्ल्या सैकलाच्या रोलार बसवन मयदानार भोंवाडे काडताना, तशेंच जांवचे खातीर केल्ली अपली येवजण सुफळ जाल्ली पळेवन तो आतां, "तुका रस्त्यार खंडीत डबल रैड करूंक धयर ना." म्हणूंक लागलो.

"रस्त्यार कितें? खंय जाल्यारी डबल रैड करतां... तुका दाकयतां" म्हण हांवें सांगलें आनी सैकल इगर्जेच्या दार्वट्या थावन भायर हाडलें. वोरां चार जातात मात्र जाल्ल्यान पप्पा पेंटेक येंवचोना म्हळ्ळें पिशें धयर म्हाका आसल्लें. अशें जेरी आनी हांव रस्त्यार सैकलार भोंवूंक लागल्यांव. रस्त्याचे एके घुंवडेर अशें येताना समा मुकार पप्पा उबो आसल्लो. एकच पावटीं ताका पळेल्ल्यान म्हजें बेलेन्स चुकलें. अशें आमी दोगी पडतांव म्हणताना पप्पान सैकल धर्न रावयलें. हांव सकयल देंवलों. म्हाका तकली उकलन पप्पाक पळेंवचें धयर नातल्लें. हात पांय थर्थरताले. पप्पान म्हजेलागीं कांय म्हळेंना. जेरीक धर्न "ताका कशियी जिवाची आशा ना... तुकायी कोणी विचारतेले नांतरे?" म्हणालो आनी चलतच रावलो. जेरी आनी हांव थोडो वेळ थंयसरच उबे रावल्यांव. उपरांत सैकलार परत चडचें धयर नासतां लोटुनच वर्न बाबू सायबाचे अंगडीक पाटीं दिलें. सैकल लोटून हाडल्लें पळेवन तें कांय पाड जालांगाय म्हळ्ळ्या दुबावान बाबू सायबान, सगळें सैकल तपासल्या शिवाय आमकां वचूंक सोडलें ना.

सांजेर घरा पावताना म्हाका काळजांत खंय नातल्ले दडदडे, हाता पांयांत कांपणी. कशें वेचें? कशें पप्पाक फुड करचें? पप्पा कितें करीत म्हळ्ळीं सवलां, घरा भितर रिगतां रिगतांच पप्पान म्हाका रावयलें आनी आलतारी मुकार दिंबी घालन हात वयर करूंक सांगलें. सांजेची आमोरी तेर्स जाता पर्यांत हांव थंयसरच दिंब्येर उरलों. उपरांत न्हावन जेवन निदतानांय पप्पा कितेंच उलयलोना. कांय फाल्यांक बाकी दवरलां, म्हजें सनवाराचें मिटींग बंध जायत म्हण चिंतून आस्तांच म्हाका केदनां नीद पडली तें कळ्ळें ना. दुसऱ्या दीस पप्पा, मांय पयल्या मिसाक वचून पाटीं येताना, हांव दुसऱ्या मिसाक भायर सरतालों. न्हेसून भायर येताना... पप्पा "रावरे थंय" म्हणालो...

हांव रावल्लेकडेंच रूक जालों. कांय मिसाक वेचेंय बंध करतागाय म्हण हांव चिंतालों. पप्पाच्या हातांत सैकलाची चावी आसल्ली ती म्हज्या हातांत दीवन, "सैकल घेवन वच. पूण खंय पुणी आनयेक पावटीं भाड्याचें सैकल आपडशी.... जागरुत!" म्हण गरजालो. हांव म्हज्या हातांत आसल्ले चावियेक आनी पप्पाक केदोळ पर्यांत पळेत रावल्लों, म्हाका आतां उडास ना!

*******

फंग्तीं मधें--

कितें आसा या कितें आसात ह्ये मटवे कथेंत? पप्पाचें सैकोल, फकत आनी ह्या सैकोला विषांत लिक्ता तरी कोंण? पप्पाचो पूतच. इत्लें जाणां आसूनयी हांव कित्याक हीं सवालां विचार्तां? हालिंच ही कथा तुमी वाचून जाल्या न्हय? खंडित तुमीं म्हणशींनांत ह्ये कथेंत कितेंच ना – एक पप्पा आशील्लो, ताका एक्लो पूत आशील्लो, जाका सैकोल चलंवंक येनातल्लें, ताका सिनेमांचें जब्बोर पिशें आशील्लें आनी पार्पळ खास्ताचें मित्र आशील्ले, सर्व वाडोन येंवंचे आड्बोस्रे पिले.

हां! व्हय, आडबोस्रे, वाडोन येंवचे पिले या सोंप्यान सांग्चें तर प्रवेशीत तर्नाटपणाचे ख्कुरू; आनी कथा लिक्ताना लेखकाचें प्रवेशीत तर्नाटपण जून जालां आनी तवळच्या प्रवेशित्पणाचें रवंच काडून तो लिख्ताना आनी ताणे लिख्ल्लें आमी वाच्ताना आमी सर्व – एका खिणाक पुणी आमच्या प्रवेशीत तर्नाटपणाक पाटीं वेतांव आनी हासोनशें म्हणतांव – बराबर! आमकांयी असलेच अणभव जाल्यात.

आमचो लेखक कांय तरी अन्कूल आसल्लो चलो जाल्ल्यान (ताचो पप्पा मद्रासांत नव्करी कर्तालो) तो इगर्जेन चलवंच्या शाळेक वेतालो आनी भुनियेंत्लें शेळें शित आनी इंय्क जाल्ले हापोळ चाबतालो. आनी ताचे ईष्ट घरा लागिंच आसच्या सर्कारी इस्कोलाक वेताले आनी दनपारांच्या जेवणाक तातांच्या घरांक वेताले. सनवारांचें हांकां सुटी, पार्पळपणां करूंक. पुण कसलीं पार्पळपणां?

कांय फाशियेच्या खंब्यार चडंवचीं न्हय. मोठाच्या रानांत रुकांवयले आंबे काडूंक, बिंडां झडवंक, आइसक्यांडी विकूंक येंवच्या म्हातार्या नंदीक फसवन एक आइसक्यांडी उसळांवचें....तुमचो उडास पाटीं धांवलो

न्हय? कितें, आमी हें सर्व करूंक ना? घडपां घडून येकामेका बंडल कथा सांगूंकनांत? पूण, तातांच्या विबिन्न चालीन फुडें वेच्या जिणिंयें मद्लें फरक लॅखक ह्येपरीं दाकवन दिता ....सर्वांतयी आमी सांगाता. देव बिरांतेच्यो गजाली हांव इस्कोलांत शिक्ताना, संसारी गिन्यानाच्यो संग्ती ते (श्वेतकुमार, वेंकटेश) म्हाका शिकयताले. आमचे मधें जातींकातींचो भेद येनातलो, ते तांच्या कमला टीचेर, विठल आनी जयराम मास्ट्रांची काणी सांग्ताना हांव तांकां सिरील आनी गाणीगा मेस्त्रिंची गजाल कळयतालों. धोवो लॉब न्हेसून मात्यार कोट्ट दवर्न येंवच्या सिस्टरां विशीं वर्णितालों. लॉबा भितर व्हड्लें चाबूक घेवन दोतोर्न शिकंव्क येंवच्या व्हड्ल्या पाद्राबाविशीं सांगून तांका भेष्टाय्तालों.

हांतूं कांय आमकां कसलिंयी पार्पळ्पणां दिसून आयलीं? हांव पतियेना. हें प्रवेशीत पर्नाटपण आमकां परत आय्लें तर आमी ताका वेंगोवन दीस सारिशेनांव?

फुडलें साहस आसा ह्या पंग्डान सिनेमांक वेचें. कोणे करूंक ना हें साहस? तर्नाट्यांनी सिनेमांक वेचें, होट्लाक वचून गोळीभजे खांव्चे या सॉडा शॉपाक वचून रंगरंगाळ 'लिम्लेट' (लेमोनेड) पियेंवचें म्हळ्यार पार्पळपणंच म्हण व्हडांनी लेक्चे दीस ते. अशें आस्तां, ह्या तेगांची स्थिती पळोव्यां. पय्शे फारून कांय सिनेमाक वेच्यातित्ले 'पार्पळ' हे न्हय. ऑप्रूब कांय हातांत पावण्शें पयशे जमो जाले तर ताणीं तेगांयनी चार मय्लां चलून 'नंदा' टॉकीसांत सिनेमां पळेवंक वेचें आसल्लें, असो विवर दिता आमचो लॅखक. आतां कांय जाय आमकां ते दीस चार मयलां चलून सिनेमा घरांक वेचे? जाय आमकां दीस पावण्शे पय्शे भरून 'नंदा' थियेटराच्या मुक्ल्या बांकार बसून सिनेमा पळेंव्चे? नाकात कित्याक आतां प्रवेशीत तर्नाटपणाक थांबवंक हेर सबाश्यों वाटो आसात. आसूं. पुण ह्या तेगां पयकी सिनेमांच्या माहेतींत अव्वल म्हळ्यार आमचो लॅखक. हें सत ताणी सर्वानुमतान मानून घेतल्लें अशें खात्री कर्ता लॅखक.

'नंदा' पर्यांत आसची चार मय्लांची वाट लगबग एक मय्ल न्हंय उतरच्यांत वेताली. पुण ही उत्रोण फुकट जांव्ची न्हय. दॉणीचेर वेचें तर धा पय्शे रुसूम. हांगासरयी धा पय्शे उरंव्चो ह्या पंग्डाचो हुन्नर निजायकी मोगाळ पार्पळ्पणांची याद हाडतात. सिनेमा संसरांतलीं दृशां, ते नायक

नट आनी खळनायक हांचेर ह्या पंग्डान चलंवची भासाभास, घड्पां आनी बोल्मीं कांय आमिंयी उचारूंक नांत म्हण न्हय. हरयेक्ल्याक तातांच्या पसंदेचो नायक नट आस्ता, ताची ते व्यक्ती पूजा करतात आनी तांच्याकी वर्तो झूझारी/फायटर हेर ना आनी आपणेंयी ताचेपरीं जायजे म्हळ्ळीं स्वपणां/कल्पनां हर तर्नाट्याच्या प्रवेशीत तर्नाटपणार आस्ताच्च.

सांगाताच आस्ता एक लिप्तीं आंव्डो, हांवें एक body builder जाय्जे, मास्कुटां प्रदर्शिजे आनी चलियांक आकर्शीत करिजे म्हळ्ळो. सांगाताच आनएक आशा – हांवें सैकोल चलवंक शिकाजे, चलियांच्या पंग्डां सामकार दब्बल राय्ड करिजे, सैक्लाचे फुडलें रोद उक्लोन धरून सर्कस राय्ड करिजे आनी असले हेर स्टंट.

असले चिंतप लॅखकाच्या आनी ताच्या पंग्डाच्या मतींत उदेताना अशें घडताकी, लॅककाचो बापय जो तवळ पऱ्यांत मद्रासांत नव्करेर आसल्लो, निवृत्त जावन घरा पाटीं येता. ही जावन आसा एक थरावीक घुंव्डी सग्ळे कथेक. लॅखकच्च म्हणता 'एका तेंपर तांचो (इष्टांच्या पंग्डाचो) मुकेली कसो आसल्लों हांव पप्पा घरा आयिल्ले थावन बिजलेल्या कावळ्यापरीं घरांत कोवळून बस्तालों.

कित्याक अशें?

ह्या सवलाक जापी दोन आसल्ल्यो. पयली, ताचो बापय कठीण शिस्तेचो मनीस. ताचें येणें जाताना वेंक्टेश आनी श्वेतुचीं येणी उणीं जालीं. घरांत शिस्त, मागणें रजार, इगर्जेंत आसच्या सर्व नोवेनांक आनी ध्यान वोरेसांवांक लॅखकान वेचें कड्डायेचें जालें.

दुस्रें काराण जावन आसल्लें, बापायन भोंव व्हडा जलेन हाडल्लें हरक्यूलीस इंग्लेंड सैकोल. वर्ते त्रास घेवन तें सैकोल ताच्या बापायन घरा पर्यांत हाडल्लें आनी तो खुद्द तें सैकोल फकत दोन हपत्यांक एक पाव्टीं भाय्र काडतालो आनी हेरांकयी आपडूंक दिनातल्लो. म्हणजे, घरांत विदेशी सैकोल आसूनयी लॅखकाक सैकोल चलंवची पर्वणगी नातल्ली. एका कुडाच्या कोन्श्यांत ताच्या पप्पान तें सैकोल सणाच्या वस्त्रांचेर उबें केल्लें. एक पावटीं आमच्या लॅखकान कोणाकच कळितनातल्लेपरीं सैकोलाचो डाय्नामो लागव्न पेडल मारून लाय्ट पेटयिल्लो. ही संगत पप्पाक कशिगी कळित जाली आनी ताणे सैकोलाक बीग शिरकावन

सोडलें!

हेवशील्यान ताच्या मित्रांक कसलियी बंदड नातल्ल्यान ते भाड्याचीं सैकोलां घेवन सवारी कर्ताले पुण घरांतच इंग्लंड सैकोल आसुनयी आप्णाक सैकल सोडूंक ना म्हळ्ळी करंदाय आनी सल्वण लॅखकाक कांतय्ताली.

न्हय म्हळ्यार, दोन हफत्यांक एक पावटीं ताचो पप्पा तें सग्ळें सैकोल सोडवन घालून ताच्या हरयेका भागाची नितळाय कर्तालो, तेल सोडतालो आनी त्ये सांजेर मात्र पुताक घेवन पेंटेंत डब्बल राय्ड वर्तालो. होच्च आनंद लॅककाक त्या सैकोला थावन मेळ्चो. पूण ती प्राय वोगी रांवची न्हय. कशें पुणी करून पप्पाच्या सैकोलाची चावी फारून सवारी करिजे म्हळ्ळीं साहसिक चिंतां ताका दीस आनी रात कर्गय्तालीं.

आनी एका सांजेर कशें पुणी करून बाबू सायबाच्या दुकानांतलें एक लटारी सैकोल भाड्याक घेवून इगर्जेच्या मय्दानार लेखक बोंवाडे काडताना – सर्व बर्यान चल्तें आसल्लें – पुण ताचो एक्लो नवो ईष्ट जेरीन ताका चिडायनातल्लो तर. त्या दिसा लॅखक आरामार सैकोल चलवन आस्ताना जेरीन ताका चिडाय्लो म्हणून, तुका डब्बल राय्ड करूंक कळाना. लॅखकान हें 'चालेंज' घेतलें आनी जेरीक सैकोलाच्या रोलार बसवन डब्बल राय्ड केलें. हांतू, सैकोलार बसाजे म्हळ्ळी जेरीची आशा गुमानित्त ज्यारि जाली. तवळ लॅखकाक आनिकी चिडावन जेरीन म्हळें – डब्बल राय्ड करून तुं म्हाका रस्त्यार व्हर पळोव्यां?

पप्पान सन्वाराचें पेंटेक वेचें पूण इतलेवेग्गीं तो पेंटेच्या रस्त्याचेर आसचो ना अशें पात्येव्न लेखकान जेरीक घेवनंच सैकोल रस्त्यार चडय्लें.

थोडी वाट फुडें वेताना--

ताचो पप्पा साम्कार उदेता आनी लॅखकाचे बेलेन्स चुक्ता आनी जेरी आनी तो सांगाताच रस्त्यार पड्तात. पाप्पा, तांकां सांबाळून उबे कर्ता आनी विचित्र – फकत जेरीक तो सोव्ता. लॅखकाक कळित जाता – आप्णाचें प्राचीत घरांत आस्तेलें अशें. आनी तशें जाता – सग्ळी सांजभर आनी निदूंक वेचे पर्यांत पप्पा ताका आलतारी सामकार दिंबीयेर पडून हात वग्र घाल्चें प्राचीत दिता. तांचे मदें कसलेंच उलवणे चलाना.

दुस्रो दीस आयतार. मांय पय्ल्या मिसाक गेल्ली ती पाटीं येताना आमचो हीरो लेखक दुस्र्या मिसाक वचूंक तयार जातालो.

आनी तवळ, – पप्पा ताका रावय्ता. कांय आप्णें आय्ताराचें मिसाक वेचेंयी खय्दगाय म्हण लेखक आंकूडताना पप्पा सैकोलाची चावी ताका दीवन म्हण्ता. 'सैकोल घेवन वच! आन्येक पावटीं भाड्याचें सैकोल आपड्शी....जागृत!'

लेखक आपली कथा अशी संपय्ताः 'हांव म्हज्या हातांत आसल्ले चावियेक आनी पप्पाक केदोळ पर्यांत पळेत रावल्लों म्हाका आतां उडासांत ना!'

म्हजो श्हरो:

उडासांत आसल्यारी आसुंकच नजो कित्याक ही कथा जावन आसा एक देक वाडावळिच्या एका घडिचाराची. Growing up is a continuous process वाडावळ एक थांब नातल्लो घडीचार. आमी वाडून 'पप्पा' जाताना या आम्चे ताबेन बैक या कार या विमानंच येताना जरितरी, आमच्या घर–कुट्मांत लेखका तसलो चलो वाडून येंञ्चो आसा तर आनी तवळ असले उडास उस्कातीत तर असल्यो सुंदर मटव्यो कथा जल्मातात मात्र न्हय, हो सोबित संसार वाडावळिच्या, मोग, खंत आनी हुस्को जाय्र कर्च्या साक्र्या पथार आसा म्हळ्ळें आश्वासन आम्कां दितात!

********

# जुजेच्या पेरांची काणी

मेलवीन रोड्रीगस आगोस्त, १९९८

जुजे, दिंड्या जिवाभितर कांतळी काळीज आसचो मनीस. चडुणे चाळीस पावस ताच्या मात्यार येदोळ पडल्यात. ह्या चाळीस वर्सां पयकी तेरा वर्सां काजारी जिविताचीं. एस्तेल ताचो बुतांव गोंडो. ती जुजेच्या जिवाक सोडन दीनातल्ली बायल. बियाक जांव, भाताक जांव तांकां येदोळ भुरगीं नांत.

तेरा वर्सांनी पयलेंचीं तीन सोडल्यार उपरांतल्या धा वर्सांनी तांणी केल्ल्यो आंगवण्यो खंयच्याय देवांक नाटवोंक नांत. पेटयिल्ल्यो वाती खंयच्याय काळोकाक धांवडावंक सकुंकनांत. दाकतेरांक सयत तांचे अस्कत्कायेची नाड मेजूंक कळिळना.

ह्या धा वर्सांनी जुजे शिरांधारिंनी कळवळ्ळो. एस्तेल रडलें. जुजे शिंदून गेलो. एस्तेल पिंदून गेलें. तांच्या मागण्यांच्यो धारी सर्गाचीं दारां फासळावंक पावलिंनांत. जोडल्लो दुडू दाकतेरांक पिटो केलो. दाकतेर म्हणाले: 'एस्तेलाथंय ऊण ना'. दाकतेर सांगलागले: 'जुजेथंय ऊण ना'. मिस्तेर दोडतो जालो. काळजां कांतून सोडचीं सवालां विचारच्या मनशांच्यो धोशी दोडत्यो जाल्यो, मेंदू खिरलो, रगत इरलें सोडल्यार भुरगीं जालिंनांत.

जुजे दयाळ मनीस. जुजे कुरपाळ मनीस. जुजे मोगाळ मनीस. तो म्हजो शेजारी. शेजाऱ्यांचो शारोती. गोठ्यांत रेडे गोरवां, कुजनांत बोकुल माजरां, दारार सुणें, आंगणांत माड, वोंयेंचेर फुलां, तेंडलेचो माटव, भाताचीं शेतां, पेरिरूक – इतलें आसुनय तो निराशी.

जुजेच्या ताळ्याक येदोळ कोणेंय खाडूं घाल्लेंना. ताचो ताळो इतलो नांवाडदीक, तांचे न्हाणयेंत न्हाताना जुजेन बायलेलागीं उलंवच्यो संगती आमचे न्हाणयेंत न्हाताना म्हाका आयकोव्येत. ताच्या ताळ्यावर्वी गुट, गुटान उरना. रात जून जाल्या उपरांत एक सोडल्यार दिसामधें गांवांत गुजगुजो ना म्हळ्यार एकच जुजे निदला वा गांवांभायर गेला म्हण लेकिजे.

हर्शेच्याबरी एकपावटीं तांच्या आंगणाक पावल्ल्यावेळा, सोप्यार बसून

पेरां खांवचो जुजे तोंडांतलो पेराचो कुडको गुळकू गिळून, 'पेरां खातायें आबेला' म्हणताना, तोंडांत उदक आयिल्ल्यान 'नाका' म्हणूंक जायनासतां ह्रात वोड्डायलो. हळदुवीं हळदुवीं फुगल्लीं पेरां दोळे उरकुटावन म्हाकाच पळेतालीं. एस्तेल कुजनांत आसल्लें वा शेतांत आसल्लें हांव नेणा.

दिल्लें पेर कुल्याक पुसून घास मारताना जाल्ले रुचीन जीब मात्र न्हय, जीवच नाचलो. "हांगा कुलो तेंक आबेला. तुमचें घराणें सरिपळ्ळाक येवन धा वर्सां जालीं जायजे. तुमकां ह्या पेरांची काणी कळीत ना" – जुजे म्हणताना आयकव्यां भोगलें.

एका तेंपार नीरमारांत आमी भाड्याक रावतल्यांव. म्हज्या बापायन हांव कामाक लागून आट वर्सांनी जुजेगेले आस्तिकुशीन ल्हान भूंय घेवन घर बांधयिल्लें. पाटल्या धा वर्सांनी जुजेन सरिपळ्ळाच्यो शिरेन शिरो म्हज्या मुकार शिंदल्ल्यो. पूण ह्या पेरांची काणी कित्या लिपून उरली म्हाका कळ्ळेंना. त्यादेकून ताका आयकूंक म्हजे उमेदीक पाकां फुटलीं.

"तवळ म्हाका तेरा वर्सां जातीत. हांव आडबसरो भुरगो", जुजेन सांगूंक सुरू केलें. "आटवेंत आसल्लों. इगर्जेच्या न्हय, पवित्र काळजाच्या माद्रींच्या इस्कोलाक वेतालों. तेदळा आतांचीं सिस्ट्रां कोणय नातल्लीं. म्हातारी सिस्टर जुवांव सयती नातल्ली. सिस्टर जेनेवीव, सिस्टर मीरियम, सिस्टर तोमास – तेगां सिस्ट्रां शिकयतालीं आनी सिस्टर मेरी जोन आमची हेडसिस्टर. चोवगांय सिस्ट्रां इगर्जे इस्कोलांत शिकंवच्या सिस्ट्रां सांगाता कोवेंतांत रावतालीं.

"सिस्टर मेरी जोनाक 'पेरगुडे' (कोळ हुंदीर) म्हण आपयताल्यांव. एका भुरग्याची चोरी धरूंक एकपावटीं ती, तिचो भरती जीव घेवन मेजापोंदा लिपून रावल्ली खंय. देकून तिका हें आडनांव पडल्लें.

"सिस्टर मेरी जोनाक हांव म्हळ्यार जिवाची गांट. अपरूप अपरूप पेप्पर मिंटां ती म्हाका दिताली. कोवेंतांत रातीक सोडल्यार दिसाचे खंयचेय घडये म्हाका बंधड नातल्ली. माद्रींची जायती बुट्टी चाकरी हांव करतालों. त्या देकून पोपायेच्यो शिरो, आंब्यांचीं कापां, चितुरलेच्यो बोयो, पणसांचे घरे मात्र न्हय फेस्तांपरबेंनी माद्रींचें पोंतिफिकाल जेवण जाल्यामागीर म्हाका जेवण आसतालें. तशें कांय आमगेर जेवणाक बर्गाल आसल्लो म्हण न्हय. पूण माद्रींचें खांवच्यांत कसलोगी होरबोस आनी

खुशी मेळताली.

“कोवेंताच्या हितलांत जायते रूक आसल्ले. आतां मोस्तु कातर्न घाल्यात. थोडे मोरें पडून पर्तल्यात. माद्रींच्या काकसा पाटल्यान दोन पेरिरूक आसल्ले. रुकाचे फांटे काकसाच्या पाक्यार विशेव घेताले. रुचीक पेरां जातालीं. आतां तुवें खावन आसच्या पेरांचीच रूच. मागीर कातर्न मीट सारवन खांवच्यांत भारी दाधोसकाय. पेरां म्हळ्यार केदीं. पुंडदाबरी पुडपुडीत. भितरल्यो बियो अस्कत. खाताना दांतांक शिरकनांत.

“राशिचीं पेरां जातालीं. आमकां मात्र माद्रींच्या भुरग्यांक तीं पेरां खेल्ले तितलीं पावनातल्लीं. त्यादेकून पयलें रूक हालवंक सुरू केलो. उपरांत सवकास रुकार चडूंक सुरू केलें. मागीर धयर चडताना काडल्लीं पेरां काकसाच्या पाक्यार चडून भोकांवकय सुरू केलें.

“एक दीस – तुका वोळक ना – मजलांतलो फिलच्याण चडल्लो. पेरां तुटवन पाक्यार पांय तेंकताना नळो फुटलो. भितर खंयची माद्र कितें करताली कोण जाणा, तिच्या मात्यार फुटल्लो नळो पडून मार जालो. जाल्ले बोबेक फिलच्याण उडून धांवताना आनिकय च्यार–पांच नळे पिटो जाले.

“माद्रींनी मात्र मेजून पांच दिसांनी काकसा पाटले पेरिरूक कातर्न सोडले. म्हाका बेजार जालें. पोटाक उजो पडलो. जीब चुरचुरली आनी पेरांक खंय वेचें भोगलें.

“तशें कांय माद्रींच्या हितलांत हेर पेरिरूक नातल्ले म्हण न्हय. आसल्ले. पेरांय धाराळ दिताले. तांचेर चडून पेरां काडूंक काळजांत धयर नातल्लें. ते रूक माद्रींच्या घरा मुकलेकुशीन आसल्ले.

“एक दीस, इगर्जेच्या फेस्तावेळा, फेस्तमीस जावन घरा वेचे वाटेर कोवेंताक भेट दिल्ल्या गांवच्या ग्रेस्त मनशांक सिस्टर मेरी जोन, गांवांत तेदोळच नांव जोडल्ल्या पेरिरुकाच्यो रोंपियो दिताली. कांय साताट मानेस्त आनी तांचीं बायलां–भुरगीं आसल्लीं. हांवेंय पयसापयसार एक रोंपी मेळत म्हणच्या जिनसार आंयडो घोटून पाटीं मुकार केलें. कोणेंय म्हजें गण्णें केलेंना.

“आयिल्ले मानेस्त हासून, हात मेळवन, हात हालवन गेले. वेताना

रोंपियो व्हर्न गेले. ते गेल्लेच सिस्टर मेरी जोन हितलांत आसच्या उदकाचे टांकिसर्शी हात धुवंक गेली. हांवें पाटलाव केलो आनी विचारलें: 'म्हाकाय एक रोंपी दी सिस्टर'.

"कितें म्हणांयरे जुजे? पेरां चोरन खेल्लीं पावनातल्ल्याक रोंपी जायगी तुका? आनी मुकार तुका पोंपीय मेळचिना - सिस्टर म्हजेकुशीं पळेनासतां शीदा कोवेंताक गेली.

"खिणान हांव दुकलों. कांय काकसाचे नळे फुटयिल्ले हांवेंच म्हण सिस्टरीन लेकलां कोण्णा म्हण चिंतलें. एक रोंपी दिल्ल्यान ही कितली दुबळी जायत भोगलें. राग आयलो. भुरग्यापणालो राग. सिस्टर मेरी जोनाक पंद्रा पावटीं 'पेरगुडे' म्हळें. वीस पावटीं 'व्हडली पेरगुडे' म्हळें. पंचवीस पावटीं 'थेट पेरगुडे' म्हळें. काकसाचे पुराय नळे फुटून मात्यार पडजे आसल्ले म्हणून चिंतलें.

"घरा पाटीं वेतानांय कळवळे. फेस्ताचें जेवण जेवतानांय तेच कळवळे. जेवण जेवन पोट जड जावन घरा सक्कडय पर्तल्लेकडे घोरेताना म्हाका मात्र चिंतनां. राग काडचीं चिंतनां. एक आलोचेन झळकाली.

"हरेक दिसा सकाळीं साडे-स वोरांचेर माद्री इगर्जेक मिसाक वेताल्यो. हांवय वेतालों. दुसऱ्या दिसा सकाळीं मात्र हांव इगर्जेक गेलों ना. शीदा माद्रींच्या हितलाक रिगलों. हितलांत थंय हांगा किरलल्ल्यो पेरिरुकाच्यो रोंपियो पूरा एकय सोडिनास्तां पाळां समेत हुमटून काडल्यो. साधारण बारा-तेरा आसल्ल्यो कोण्णा. मीस काबार जांवच्यावेळाक राकून रावून घरा पावल्लोंच घरा पाटल्यान मोव आसल्ल्या एका जाग्यार सुळयेन माती काडन एक रोंपी लायली. मुळाक न्हाणयेचे रांदणिंतलो इल्लो गोबोर आनी उदक घालूंक विसरालोंना. सांजेर इस्कोला थावन पाटीं पर्तल्लोंच पिलच्याणाक धरून शेजारच्या सक्कड म्हज्या इश्टांक, व्हडिलांक कळनाशें 'माद्रींची रोंपी' सांगून एकेक दिली. माद्रींक कळूंक नजो म्हण ताकिदय दिली.

"रोंपियेचो सदां पोस केलो. रोंपियेक दीस खळून उदक घालें. रोंपियेक अपरूप थोडें सारें घालें. रोंपी बळ जाली. बळ जावन झाड जाली. झाड वाडलें. वाडून रूक जालें.

"मागीर म्हजें एस्सेसी काबार जालें. कॉलेजीक भरती जालों. मेजून अडेज तीन वर्साभितर सेजारच्या पेरिरुकांचेर फुलां जालीं. फुलां हुलां जालीं. हुलां फळां जालीं. फळां पिकून खांवच्याक जालीं. पिलच्याणान मात्र न्हय, गोसालान आनी गस्पारीन सयत पयलीं पेरां म्हजे सांगाता वांटून खेलीं. तोच रंग, तोच परमळ, तोच आदलो सुवाध, तीच आदली रूच. जीब रूच चाकताना मतींत माद्रींच्या पेरिरुकाचेर चडल्लो उडास, काकसाच्या पाक्यार चडून पेरां खेल्ले उडास. नळे फुटल्ले, फुटून माद्रींच्या मात्यार पडल्ले उडास. माद्रींनी पेरिरूक कातरल्ले उडास. पेरिरुकाच्यो रोंपियो चोरन हाडल्ले उडास.

"ह्या सक्कड उडासां मधें सेजारचे पेरां खावंक लागले. म्हाकाय थोडे पावटीं पेरां दीलागले. हरेक पावटीं तांणी दिल्लीं पेरां खाताना हांव मात्र बारीक शिजतालों. म्हज्या पेरिरुकाचेर कित्याक फळां जालिंनांत म्हणून कडतालों. माद्रींचो कांय शिराप कोण्णा म्हण चिंतलें. चिंताना परत्यान माद्रींचेर राग येवन आंगाच्या शिरांचेर गच्छ कांटे उबे जाले.

"सेजारच्या सक्कड पेरिरुकां परस म्हजो रूक चड सोरकेल्लो. ताचे फांटे आमच्या काकसाच्या पाक्याचेर विस्तारल्ले. कसली कळनातल्ली कीड त्या रुकाक लागली कोण्णा चिंतून चिंतून हांव आटलों. पूण म्हजी दूक सेजारच्यांक दाकयलिना.

"दीस धांवले, म्हयने उबले, वरसां पाशार जालीं. म्हजें आनी एस्तेलाचें काजारय जालें. सेजारच्यांनी पेरांचो हलवा करूंक सुरू केलो. पूण म्हज्या पेरिरुकाचेर फुलांय पडलिंनांत.

"एक दीस 'गोड उदक शिला' आयिल्लो. शिलाची तुका वोळक ना म्हण दिसता. तुमी हांगा येंवचे आदींच शिला मेला. शिला आमच्या वटारांत नारल काडच्यांत नांव वेल्लो मनीस. मागीर माडामुळां सोडवन दीवंक, सोप-मीट-सारें घालूंक, आंगणाक पेंटाळ्यो बांधुंक, माती खोंडूंक, आळीं बांधुंक, गर्ज पडल्यार उदक वोडूंक – सेजारचीं सक्कड शिलाकच आपयतालीं. काम करन पुरासाण जाताना सकडांगेर उदका सांगाता गोडाकुडको विचारन खातालो जाल्ल्यान ताका 'गोड उदक शिला' म्हणुनच नांव पडल्लें. शिलाकडे म्हज्या पेरिरुकाची गजाल सांगली. आजून कित्या हो रूक फळां दीना म्हण विचारलें.

"शिलान असल्या रुकांक म्हालगड्यांनी करची एक रीत सांगली. त्या प्रकार ते रातीं हांव उटलों. कांय देड वोरां जातीत. घरचीं सक्कड निदल्लीं. हांवें म्हजें न्हेसल्लें वस्तुर निकळायलें. रांदच्याकुडांत आसल्ली कोयती काणगेली. आवाज करिनासतां दार उगडून, नागडोच घरा पाटल्यान गेलों आनी पेरिरुकामुकार हातांत कोयती उबारन उबो जालों.

"कितें म्हण चिंताय पडपश्या. तुका मुळाक घाल्लें चड जालें. पेरां दीवंक जायना तुका! म्हज्या गुस्तारच जियेताय म्हण चिंतिनाका. तुका कातरन बेंडून उडयतां पळे. तीनच म्हयन्यांचो वायदो तुका – अशें सांगून हातांतली कोयती हालवन रुकाक भेश्टायलें. पेरिरूक म्हाकाच पळेवन आसा म्हळळेपरीं त्या काळोकांतय दोळे उरकुटावन पळेलें. दाव्या हातान पेरिरूक धरन हालयताना, हाताक जाल्ल्या स्पर्शान पेरिरूक कांपून आसा भोगलें.

"शिलाच्या सांगण्यांत सत आसल्लें. पेरिरुकाक भेश्टावन अडेज म्हयने जायजे जाल्यार एक दोन फुलां पडलीं. मागीर थोड्या दिसांनी रूक भरन फुलां. फुलां फळां जाताना जाल्ल्या संतोसान म्हजो जीवच कीर जालो आनी पेरिरुकाक वेडो घालिलागलो.

"आतां कांय वर्सां तेरा जातीत आबेला. ह्या एका पेरिरुकान दिल्लीं पेरां मेजूंक तांकचेंना. आनयेक खाताये" जुजेन आनयेक पेर म्हाका दिलें.

"रूक सोरकेल्यार ताका फळां लाबनांत. देकून ताका भेश्टायजे पडता. म्हालगड्यांच्यो सांगण्यो भेशट्यो न्हय" जुजेन पेरांची काणी सांगली.

काणी म्हाका विशेस दिसली. प्रकृतिच्या जायत्या संगतिंविशीं आजून मनशान सोध केल्लोना. त्यो लिपत्योच उरल्यात. मनीस सयत कामाकडे जांव, घरांत व्हडिलांच्या भिंयान आपलें काम करता. रूकय अशेंच कोण्णा म्हाका भोगलें.

पेर खावन जुजेगेल्या हितलाच्या आकाड्यालागीं पावताना पयशिल्या शेतांत आसल्लें एस्तेल झळकलें. जुजे म्हाका पांवच्या इराद्यान कोण्णा उलवन उलवन आकाड्यापर्यांत पावल्लो.

"जुजे तुका एक सांगूं हांव?" ताळो तगसून हांव उलयलों.

"कितें?"

"सांगल्यार बेजार करिनाका"

"हांवें इजार घालां"

"तें इजार काडन हातांत एक बयताड घेवन एस्तेलाक कित्याक एक पावटीं भेश्टायनांय? तुका भुरगीं जावंकय पुरो".

हांवें तितलेंच म्हळें. जुजेच्या तळमाव्याक घडगडो मारल्लेपरीं जालें. तो उलवंक ना. ताका राग आयलो म्हणुनय म्हाका कळ्ळेंना. तो घुस्पडलो. वयर पंदा म्हाका पळेताना ताच्या तोंडाचेर काळबाणेचो छारो म्हाका झळकलो. कपलाचेर फुटल्लो घाम तळातान पुसून, भाराधीक काळजान पाटीं घरच्या दाराकुशीं चमकलो.

*******

फंतीं मधें--

म्हाका कवितेचेर या कवींचेर कसलियी जाळ्काय ना पुण मोसोर आसा!

आमी सृजनशील बरवपी, कादंबरीकार लांबायेन कितें तरी लिखूनंच वेतांव आनी आम्ची कथा- कादंबरी लांब जाल्लेतितलो आम्चो संतोस आनी स्वसमाधान चडता.

पूण हे कवी तशे न्हय, तांचें चिंतपयी तसलें न्हय. तांचें सृजनशील बरप कितलें मटवें जाल्ले तितलें बरें. हजार सबंदाचें एक चिंतप ते फकत चार सब्दां बितर आमच्या मतींनी चेप्तात आनी आमकां चिंतपाक लाय्तात. खंचीयी एक कविता वाचूंक सुरु कर्ताना ती कशी मुंदरून वचत, कशी संपात म्हळ्ळो अंदाज आम्कां बिल्कूल आसाना.

हांव कविता बरवंक सकाना या त्ये दिशेन हांवें त्रास घेतलेच नांत. हाका काराण शाळेंत कविता पाठ करूंक एका शिक्षकाची गरज पडटाली आनी हो शिक्षक मूळ कवीन लिखल्लें विस्कळावन आमकां शिकयतालो आनी...सलवतालो! अशें जावन आमकां एका थराचो चीड येतालो कित्याक म्हळ्यार साहीतांत कवितेचो प्रकार आनी महत्व आम्कां सोंप्यान समजानातल्लें

थोड्या वर्सां आदीं कोंकणी परिणत आनी जाणारी बाप दो। प्रताप नाय्क हाणीं एके सभेर म्हळ्ळें म्हज्या उडासांत येता – कादंबरी आनी कथाकार एका विबिन्न थरांच्या वोळींत्ले तरी, कविच्च!

हेंच तत्व मनांत घेवून हांव मेल्वीनाच्या 'पेरांची' आपुर्बाय कर्तां.

ही कथा जाव्नासा एक अद्यायन कविता आनी कथे मद्लें. मेल्वीन मुळाव्या जिनोसाचो, चिंत्पांचो आनी रूपकांचो म्हालीक याने एक नामनेचो कवी. ताका साहित्य अकाडेमीचो म्हान–पुरस्कारयी लाब्ला. ताणे लिखल्ल्यो कविता चड आनी झड पूण मटव्यो कथा–कादंबरी उण्यो.

जुजेच्या पेरांची काणी – हें अर्पण जाव्नासा एक दाट अध्ययन कोंकणी रूपकांचें, उपमांचें, अतिशयोक्तींचें. ह्या रूपकां द्वारीं लॅखक पेरांक, पेरिच्या रुकाक आनी कथेंतल्या जुजेच्या पतिणेक जिका तवळ पर्यांत गुर्वतार आयिल्लो ना, कशें गांटाय्ता म्हळ्ळेंच हुन्नर ह्ये कथेचें.

खरें, प्रथम पाव्टीं ही कथा वाच्ताना उतळायेन कसलेंच समजाना, गूंडाय मापानां आनी रुंदायेच्या विस्तीर्णायेचो अंदाज जायना. ह्या मदें आस्चे खंदक कथा वाचून वेतां वेतां अशीर जाय्नांत. हांकां जाय पड्ता मेल्वीनाच्या कविता देण्यांची.

ह्या देण्याचेर कांय तरी लेख्चें अल्बें प्रेतन कर्च्या फूडें कथा वस्तूचेर एक उब्ती नदर गर्जेची. ह्ये कथेंत चार प्रमूक पात्र आसात – निरूपक (लॅखक–ऑबेल), जुजे, दिंड्या जिवा भितर कांत्ळी काळीज आसचो मनीस, ह्या जुजेची पतीण एस्तेल, जिचो कुस्वो, लगीन जावन वर्सां धा जालीं तरी भरूंक नातल्लो आनी तो पेरींचो रूक, जो सोर्केल्लो तरी फळां दीनातल्लो.

कसलो साम हो? तत्कालाक आमकां हें कळीत जाय्ना कित्याक म्हळ्यार आमचो लॅखक ऑबेल आमकां वाचप्यांक ह्या पेरांच्या असल्या वर्तूलांनी घुंव्डायतागी आमी निजायकी घुस्पड्तांव. आमकां कळीत जालां जुजे–एस्तेल आनी पेरां हांचे मदें कसलोगी संबंद आसा पूण कसलो?

आनी त्या एका दिसा ऑबेल जुजेच्या आंग्णांतल्यान पाशार जाताना ताका दिसता जुजे बसून भॉरीच्च रूचिन पेरां खायित्त आसा. हळ्दूवीं हळ्दूवीं फुगल्लीं पेरां दोळे उर्कूटावन म्हाकाच पळेतालीं – अशें विवरिता

ऑबेल आनी जुजे ताका मोगान 'पेरां खातायें ऑबेला' म्हण विचार्ताना ऑबेलाच्यान नकारूंक जायना आनी तो जुजेसर्शी बसून तीं रोसाळ पेरां खावंक सुरू कर्ता.

ऑबेलाक पेरां खांवचीं मझ्झा तर आमकां वाचप्यांक त्या पेरां पाटली जुजेची काणी वाचचो अणभव वेगळोच्च. हांगासर हो अणभव परत विवरांच्चें प्रेतन हांव करीना कित्या वाचपी ही मझ्झा एका वाचप्या थावन दुस्र्याक वेवेग्ळीच आस्तेलीच्च. तरी पेरां–जुजे–एस्तेल ह्या तेगां मध्लो गांच कसलो?

ह्या पेरांचो उगम जाल्लो माद्रिंच्या एका कोवेंता थावन. ह्या कोवेंताच्या विस्तार हित्लांत पेरांचे रूक आसल्ले आनी तांचेर दरबस्त पेरां जातालीं. जुजे, माद्रिंच्या मोगाचो कित्या तो तांचीं आड कामां करतालो आनी ताका पेरांच न्हय, पेप्पेरमेम्टां आनी चोक्लेटां सय्त खांवक त्यो माद्री दिताल्यो. तरी ह्या भुर्ग्यांचो होर्बस खंय निंवता? माद्रिंच्या काक्सालागीं असल्ल्या पेरी रुकाचे फांटे त्या काक्साच्या पाक्यार निदल्ले आनी त्या फांट्यांचेर पेरांची रास. तीं पेरां खुट्च्या आशेन फिलच्याण म्हळ्ळो एक्लो भुर्गो पाक्यार चड्लो. पुण एकाचें दोन जाले, हो फिलच्याण पाक्याचेर आस्ताना एक नळो फूटलो आनी काक्सा बितर आस्लेल्या माद्रिचेर पड्लो आनी तिका जकम जाली.

हें जावन पांचच दिसांनी माद्रिंनी पेरांचे सर्व रूक कात्रयले; उर्ले म्हळ्यार तांच्या घरा सामकार आस्चे मात्र. त्या रुकांथावन पेरां चोरी करचें धय्र मात्र कोणाकच नातल्लें. पुण जुजेच्या अहंमाक दक्खो आयील्लो. तो फारिक्पणाचीं योजनां कर्तालो कित्याक त्या दिसा इगर्जेच्या फेस्ताक आयिल्ल्या थोड्या ग्रेस्तांक एक्ली माद्र वर्ते शिफारसेन, सग्ळ्या गांवाचेर आतां नांव जोडल्ल्या पेरिरुकांच्यो रोंपियो दिताली. जुजेन हात वोड्डायलो तरी तिणे ताका धम्किलो म्हणोन – पेरां चोरून खेल्लीं पावानातल्ल्याक आतां रोंपीयो जाय तूका?

हें सवाल जुजेक तोप्लें आनी एके सांजेर माद्रि मिसाक गेल्ल्या वेळार जुजेन तांच्या हित्लाक रिगोन रोंपियो चोरी केल्यो आनी आपल्या मित्रांक वांट्ल्यो आनी आप्णें खुद्द एक रोय्ली आनी व्हडा जल्नेन वागयली. पूण जालें तरी कितें? सर्वांचे रूक वाड्ले आनी पेरां दींवक पावले पुण

जुजेचो सोर्केल्लो तरी रूकाक फुल पड्लें ना. ही निराशा उदेताना जुजेचें शिकप जाल्लें, क्रमेण एस्तेलालागीं ताचें लगन जालें पुण रूकार पेरां नांत तशें एस्तेलाचो कुस्वो भरूंक नातल्लो. काराण? जुजे बिल्कूल नेणां; दाक्तेरांनी तपासण कर्ताना एस्तेल या जुजेथंय कसलेंच आयब तांकां मेळल्लें ना.

आनी अशें आस्ता, तुमी वाचलें, 'गोड उदक शिला' म्हळ्ळ्या एका कुल्कारान जुजेक शिकवन दिल्लो उपाव कसो फल्साता म्हण.

आनी तो फल्सालो फकत अडेज म्हयन्यांनी.

पेरींच्या रूकाक फुलां पड्लीं आनी राशीं राशींनी पेरां जांवंक सुरू जालीं.

पुण संगत इतल्यार संपना. लॆकक आबेलाक, 'गोड उदक शिला' चो हुन्नर पेरांच्याकी चड मझेचो जाता आनी तो पेरां खातां खातां जुजेक सांग्ता –

कितें सांग्ता? 'गोड उदक शिला' चें हुन्नर कांय एस्तेलाचेर वापरल्यार फाय्द्याचें जायत?

परत विवर हांव दीना, वाचप्यांचो ऑटवच पूरो; ह्या ऑटवा संगीं थोडो हासो उट्लो तर आमी सर्व धन्य!

******************

# कावयेषु नाटकं रम्यं
## ऐक विशेस लेखन

--प्रोफेसर स्टीवन क्वाड्रस

कावयां मधें नाटकच मन वोडपी म्हणचें चिंतप सबार शेकड्यां थावन भारतांत चाल्तेर आसा. भारतीय साहित सांप्रादायांत कावयें म्हळ्ळो सब्द आदिंमागां थावन सर्वसाहित म्हणुन्च् स्वीकार जाला. नाटकाक भारतीय साहित चरित्रेंत ताचोच जाल्लो महत्वाचो जागो आसा.जांव संस्कृतांत जांव हेर देशी (थळीक) भासांनी हजारोंहजार नाटक आमी पळेतांव. जांव भारतीय कावयामीमांसक, जांव पाश्चात्य साहित विमर्शक, नाटक हेर सर्वसाहित प्रकारां प्रास फामद आनी महत्वाचें म्हणुन्च वोलायतात. एक साहितीक संदरब् दोळ्यांक बांदून दिंवच्याक नटनाच्या माध्यमा द्वारीं साद्य जाता म्हणची गजालच हाका कारण जावयेत.

नाटक कित्याक मन वोडता? ह्या सवालाक जापी सबार आसतीत. थंयसर कथन नटना द्वारीं विस्तारता म्हणचें ताच्या आकर्शणाचें व्हड कारण जांवकी पुरो. आमी वाचल्लें, आयकाल्लें हांगासर जीव भर्न घेवन आमचे मुकार रूपरुपीं दिसून येता. हांगासर संभाषण आसा, अभिव्यक्ती उतरान मात्र न्हंय नटांनी तांच्या कुडींक वापार्न करची आसा. नाटकांत गद्य आसा, गरजे तेकित पद्य आसा. नाटकांत हासोवंक 'कोमेडी' आसा आनी त्याखातीर 'कोमेडियन' आसा आनी ताचे सवें 'ट्र्याजिडियी आसा. नाटक 'ट्र्याजियो कोमेडियी जावंक सक्ता. घुंवडी घेवन 'कोमियो ट्र्याजिडियी' जाता. नाटकांत व्यंग्य आस्ता, विडंबन आस्ता आनी ह्या व्यंगयांतल्यान, विडंबनांतल्यान नाटक विमर्सो करित्त आस्ता, विमर्सो समाजेचो, व्यक्तिंचो, व्यवस्तेचो आनी थोडे पावटीं आपणाचोच. नाटकांत काणी आस्ता, निरूपण आस्ता, पद आस्ता, गायन आनी नाच आस्ता. अशें अख्ख्या जिविताच्या सर्व आयामांक नाटक आटप्ता म्हळ्यार चूक जांवचिना.

नाटकांत चडशें गायन आनी नाचपाचो वांटो व्हड आसा. 'ओपेरा' म्हणतांव ते प्रयोग चडावत गायक प्रवृत्तेचेर बांदून हाडतात. उलोवप, संभाषण, नाच, गायन आनी नटनांत एकताळ उरोवन घेंवची महत्वाची जवाबदारी नाटकांत बोव गरजेची आनी असली जिम्मेदारी आसा जांवची बहुशा नाटकांत मात्र. सर्व संदरबांनी नाटक वेदीर सादर जातात म्हणून

जांव, ते वेदीर सादर जायजयच म्हणून जांव कांय ना. सबार वरते नाटक फकत वाचपाच्या सुका खातिर्च म्हणून उरल्यात. अनयेक विशेस गजाल किर्तेगी म्हळ्यार एक नाटक बरोवन संपलो म्हणोन ना. नाटकिस्ताच्या जिवसाणेचेर, क्रियाळपणाचेर होंदून नाटकाचो पाठ जांव, प्रदर्शन जांव बदली जातच, ग्रेस्तजातच आस्ता.

नाटक पळवपी (प्रेक्षक) सुमार तीन वोरांचो वेळ रंगमांचिये मुकार चीत आनी मत दीवन तोप बसता कित्याक? खऱ्यान नाटक वक्ता सत्तेचें साहित, प्रेक्षकाच्या मतीक अत्म्याक वोकात दिवपी सकत नाटकांक आसा म्हणोन जाणा जाल्ले ग्रेक वयज पिडेस्तांक 'तूं दोन पावटीं' एलेकट्रा' पळे, तूं चार पावटीं 'मीडिया' पळे म्हणोन वोकताचीट (प्रिसक्रिपशन) दिताले कंय. नाटकाची यशस्वी आसची प्रेक्षकांक फकत्त हासोंवच्यांत वा फकत्त रडोंवच्यांत न्हंय बगार प्रेक्षकाच्या अंतर्मळां भितर रिगोन ताच्या मासाचें मास आनी रगताचें रगत जावन ताच्या अत्म्याचें वोकात जांवच्यांत.

जांव नाटक, जांव आयच्या सिनिमांक पळेवंक बसल्लो प्रेक्षक नटाचें नटन देकतच आपणा संयभ सांडता आनी त्या पात्राच्या कुडींत तो पेल्याकुडी प्रवेश (परकाय प्रवेश) जाता आनी मुकलो वेळ विंगडच संसारांत भोंवता,आपल्या भोंवारिच्या सर्व निरबंधनांक उन्नोन वेचे खातिरच तो कितले पयशे येटून तरी नाटक/फिल्म पळेवंक येता.जर ही क्रिया एका नाटकांत ताका साद्य जायनां तवळ तो विरार जाता. त्या नाटकाचेर/फिल्माचेर तो रागार जाता आनी नाटक पोकोळ म्हणून काडता. जे नाटक समाजेक आनी व्यक्तींक बऱ्या भलायकेक साधन जांवची तांक घेवन आसात तांकां मात्र नाटक जावन काळान काळ उरोंक जाता. हेर नाटक नाटकाच्या नांवान ततकाल उमकोळ घेंवचे भंगोस्थळ मात्र. तसल्या भंगोस्थळांचे शेंभोर न्हंय हजार प्रदर्शन जाले तरी निमाणें पोकोळ पोकोळच.

सुमार १८-१९ व्या शेकड्या थावन आमी आज वापारतांव तशें अशीर अरतान 'नाटक' सब्दाची वापारणी सुर्वातली. आंतोन श्चेकावाचो 'इ(ऐ) वानोव' (१८८७) ह्या दिशेंत पयिल्लो नाटक. ह्या पयलेंच १८७३ इस्वेंत एमील झोलान(१८४०-१९०२) 'ले रोवगा मकात' आनी 'तेरेज राकीं' असले नाटक संबंधी आनी नाटकाच्यो कृतियो रचलल्यो तरी आधुनिक नाटकीकरण परिकल्पनाच्या तळार रावोन पळेल्यार 'इ(ऐ)वानोव'(१८८७) नाटकच ह्या वाटेंत पयिल्लो आधुनिक नाटक.

नाटकाक व्हड मान मर्याद हाडन दिल्ली ग्रेकांनी. एक हास्तें, एक रडतें मुकाव्याचें परिकल्पन्च् ग्रेकांचें, तालीय (कोमिडीक) आनी मेलपोमेने (ट्र्याजिडीक) म्हणच्या दोन व्युत्पत्ती परिंचीं संकेतां कंय तीं मुकाटीं.ग्रेकां मदेंय नाटक कावया प्रकार जावन वाडलो. हो प्रकार कावयां मदें बोव प्रमुक म्हणोन तेयी पातयेल्ले. अरिसटाटलान आपल्या 'पोयेटिक्सांत' नाटक प्रकार विस्तृत जावन विवरिला. अथेनियन ग्रेकां मदें हास्ते ( कोमेडी, हासयात्मक) रडते (ट्र्याजिडी) आनी विडंबक नाटक अशें तीन थरांचे नाटक वाडले.

'ड्रामा' म्हणचो सब्द पूर्व मेसेडोनिया आनी त्रासा मदें आसच्या ड्रबासकुस गांवच्या नांवा थावन उदेला. आज त्या श्हेराक ड्रामा म्हणोनच् आपयतात. योण (हेबरेवगार/ग्रेक) नाटकांक आपल्या धर्माचो एक वांटो लेकताले. डयनीषियस देवाच्या आराधानाक म्हणोन ते नाटक स्पर्दे चलयताले. हांगासर गायनां द्वारीं काणियो सांगची आराधानां रीत आसल्ली हाका 'डिथिर्यांब' म्हणताले. हो गावपा नाटक सगळो गायना द्वारीं कोरसांत चलतालो आनी त्या कोरसाचो मुकेली कोरिफायुस जावनासल्लो. सुमार २६०० वर्सां पयलें कोरिंताच्या (मेहेतिम्ना) अरियोनान नाटकीं गावंक भावूक गायनां बरयिल्लीं म्हणपाचो दाकलो आसा संशोधक हाका संसराचो पयिल्लो नाटकिस्त मानतात. तेस्पिसान पयिल्ले पावटीं उलोवपी पात्र उबो केलो. जेन्ना पिसिस्त्राबूस अथेनसाचो राय जालो,ताणे डयनीषियसाचें फेस्त नाटकांचो स्पर्दो जावन बदलिलें. डेलपी, आट्टीक आनी डयनीषियस थियेटरां(नाटक सालां) ताणें बांदून घालीं. त्या उपरांत ग्रेकनाटकांनी व्हड वाडावळ आसा जाली. एड्सिलस, सोफोकलस युरिपिडीस,आरिस्ताफनेस, मेनहांदर असल्या नाटकिस्तांनी ग्रेकनाटकांक उंचाये स्थितेक हाडलें.

एड्सिलस्सान 'एचिलेइस' म्हणच्या तीन नाटकांचो घोस (त्रिघोस– ट्रिलोजी– 'मिर्मिडोन्स': 'नेरेइडस': 'फ्रायजियन्स') लिकलो. नाटक तीन तरी काणी व्हाळती, ट्रोजन झुजा उपरांत ग्रेकांचो वीर जांवच्या एचिलेइसाची. ह्याच पर्माणें ताणें 'ओरेस्तिया' म्हणचो आनयेक त्रिघोस रचलो हांतूं आरगोसाच्या राया आगेमेम्नोनाची काणी आसा. "आगेमेम्नोन', 'कोहे फोरोय' (द लिबेषन बेरर्स) 'आनी युमेनायदेस' म्हणच्या तीन नाटकांची सांकळ ही.एड्सिलस्सान सुमार सत्तर नाटक लिकल्यात त्या पयकीं सात मात्र लाबल्यात अशें संशोधकांचो वाद.'परषियन्स', 'सेवेन

एगेयन्स्ट तेबे, 'सपलयांट्स' 'प्रोमेथुवस बांवड' ह्या पयकी महत्वाचे. एड्सिलस्सान आपल्या नाटकांनी दोन पात्र उबे केले.

सोफोकलस ग्रेक नाटकांक उंचायेक पावयिल्लो आनयेक महान नाटकिस्त. हाच्या नाटकांनी पयिल्ले पावटीं तीन पात्र उबे जाले. हाणेंय सुमार सत्तर नाटक बरयल्यात तरी सात मात्र अध्ययनाक लाबल्यात. 'आंतिगोने, 'एलेकट्रा','(ओ)इडिपस रेक्स' म्हणच्यो हाच्यो कृतियो नाटकाच्या वा साहित्याच्या माळार मात्र न्हंय मनशा संसरा राटावळिंच्या सर्व संगतिंनी विशिष्ट स्थान जोडन आसात. म्हणचीं मनोशास्त्रीक अध्ययनाच्या परिकल्पनां द्वारीं बापय मोगी एलेकट्रा आनी आवय मोगी इडिपस पात्र आजून मनशा कुळाक धोसतात. सुमार अडेज हजार वर्सां उपरांत्यी हे नाटक मांचियेर येतात. हाच्या नाटकांनी पयिल्ले पावटीं तीन पात्र उबे जाले मात्र न्हंय पिंतुरांची वापारणी सुर्वातली. 'मिडिया', 'हरकुलस', 'ट्रोजन विमेन'असले महत्वाचे नाटक बरयिल्लो युरिपिडेस; 'लिसिस्त्राता' लिकललो अरिस्तोफेनेस हेर नामणेचे ग्रेक नाटकिस्त.

ग्रेक नाटकांनी विशेस लक्षण म्हळ्यार देवांक आनी मनशांक, मनशाक आनी ताच्या पेल्याक आनी मनशाक आपणा भितर्च चलचें 'त्रिस्थरीय संघर्श'. बोव उंचायेन मनशाशास्त्रीय सुत्रांचेर हें संघर्श चालू आस्ता. वीर खंच्यागी एका संदरबीं आपल्या स्वखुशेन वा परिगतेंक बली जावन आनापत्त चलयता. आपल्या विधी सवें खेळता – जिकता वा सलवता.

ग्रेक नाटकांच्या परंपरा पाटल्यान आयली रोमी नाटकांची परंपरा. रोमी रायपाटाची आनी साम्राजवादी चिंतपाची सावळी पडोन ग्रेक रोमागारांचे गुलाम जावन आयले. ती रायपाटी चिंतपांची सावळी ताणी हाडलल्या नाटकांचेऱ्यी पडोंक लागली. आपल्या राजांत साहित्याची वाडावळ करच्याक रोमी सेजारांनी इसकोल बांदयलें (कोलेजियुम पोयेतारूम) त्या शाळा थावन नामणेचे नाटकिस्त उदेले क्रिस्ता पुरवीं २४० वेळार (२२५० वर्सां पयलें) लिवियस अंद्रनिकुसान ग्रेक रुद्रांत्य (दुकांताचे) शयलेचे आनी ग्नायुस नेवियुसान ग्रेक हासयांत्य (सुकांताचे) शयलेचे नाटक लिकले.

टायटस मासियस प्लातुस, पुबलियुस तेरेनतियुस, क्विंतुस एननियुस, लुसियस अकचियुस असल्या नाटकिस्तांनी रोमी नाटकांक नवें रूप

दिलें. कावया वापारणेक, पात्र वर्गाच्या विस्तारणेक आनी संभाषणाक ताणी महत्व दिलो. ग्रेक मुळांतले नाटक तशेंस रोमी जिणये मुळाचे नाटक म्हणच्या दोन वाटांनी नाटक वाडोंक लागले. अशें, दुबावाविणे, नाटक साहित्याच्या वाडावळेंत रोमी काळाचो पात्र महत्वाचो म्हणुंयेता.

भारताच्या परिगतेंत पळेल्यार नाटकाचो बोव पुरवीं उल्लेक जांवचो भरताच्या 'नाट्यशास्त्र'त्. सुमार क्रिस्तापुर्वीं दुसऱ्या शेकड्यांत ताणे 'नाट्यशास्त्र' बरयलो. ही कृती सूत्र स्वरूपाची म्हणजे नटनाचीं नेमां कळंवची. खंच्याय एका शिकपाच्यो रुली रेगरो कळंवची कृती आसाजायजे तर त्या आदींच त्या शेतांत विस्तृत वावर जावन आसोंक जाय. देकून थोडे पंडीत 'नाट्यशास्त्राच्या (क्रिपू–२००) पुरवींच व्हड मापान संस्कृत नाटकांची वाडावळ जाल्ली' म्हणतात. भरत आपल्या नाट्यशास्त्रांत नटन,नरतन (नाच), संगीत, निर्माण, न्हेसाप, बांदावळ, वेदीसंरचन असल्या सबार संगतीं विशीं उलयता. त्या कृतियेंत' नटन देवा थावन्ंच् आसा जालें' अशें भरत सांगता. शिवाक 'नटराज' म्हणोन्ंच् वळकातात.

संस्कृत नाटकांनी सुर्वाये थावन्ंच् 'नायक' (हीरो) केंद्रीत संरचन पळेवंक मेळता. मुकेल नट धीर, उदात्त आनी सुंर्गारी (शृंगार) प्रदान प्रदर्शक. तो चडशें जयतांचो कुरोव आपणायता आनी सुखांत्य वीर जाता. अपरूप आपल्या तत्वां खातीर कष्ट वोळवोळे सोसून मोरचें पडात तर दुखांत्य वीर जाता, तो मेलो तरी सत मोराना 'सत्यमेव जयते' चिंतप हांगा महत्वाचें. नाटकाच्या वाडावळे तेकित स पात्र बोव महत्वाचे जावन संस्कृत नाटकिस्त घेतात. नायक (हीरो), ताचो सांगाती (चडशें विदूषक वा इष्ट), नायिका (हिरोयीन) तिची सांगातीण (दासी वा चेटी) खळनायक (दुस्मान राय) आनी ताचो सांगाती(जो केन्नांय खोट्यो आलोचेन्यो मात्र दीवंक सक्ता तो) ह्या भायर आसचे पात्र उण्या महत्वाचे.

संस्कृत नाटकां पयकी थोडे जागतीक साहित्यांत बोव उंचायेच्या पांवड्यार पावल्ले आसात. नाटक म्हणतानांच जिबेर येंवचें नांव काळिदासाचें. गुप्त राय चंद्रगुप्त विक्रमादित्याच्या रायासनांत आसोन काळिदासान बरयलले नाटक बोव वर्ती साहितीक ग्रेसत्काय भरोन आसात. 'शाकुंतला नाटका विशीं जो नेणा ताणे नाटक म्हळ्ळो सब्द जिबेर काडूंक फावो ना' म्हणोन पंडितांचो वाद आसा. 'कावयेषु नाटकं रम्यं, तत्र रम्य

शाकुंतला. तत्रापिचा चतुषटांको वाक 'चतुषटयं' म्हणोन्च् ख्याती आसा. विश्वामित्राचें तोप भंगोवंक आयिल्ल्या मेनकाक ताचे थावन जनमाल्लें चेडूं भुरगें शकुंत सुकण्यांच्या पासवेंत वाडलल्यान शकुंतला जालें. ताका उपरांत सन्नेशी कणवान वर्न पोसलें. त्या चेडवाक दुष्यंत रायाचो मोग जांवचो, मोगाचे विपरीत उमाळे, त्या उमाळ्यां निमतीं दूर्वासाचो शिराप पडाप, करचें सक्कड कर्न मागीर दुषयंताक विसराप येवाप, मुदी आनी असल्यो गजाली' अभिज्ञान शाकुंतला' (शकुंतलाची वळक धराप) नाटकांत आसात. शाकुंतला मात्र न्हंय काळिदासान' मालविकाग्निमित्रम', 'विक्रमोर्वशियम', हे बोव वरते नाटक बरयल्यात. कुमार संभव, रुतू संहार, रघुवंश, मेघसंदेश ताच्यो हेर कृतियो.

शूद्रकाचो 'मृच्छकटिक' (मातयेची गाडी) एक सुंदर नाटक. उज्जयनिचो राय पालक कठीण कर्मी. ताच्या राजांत सोबायेचें बावलें अमीर नायकिण वसंतसेना आस्ता. तें नायकिण चारुदत्त म्हळ्ळया बोव मानसुगेच्या म्हांतानी मनशाच्या मोगार पडता. रायाचो मिवणो दुषटो नष्टो संस्थनक (शकार) पर्जेक वळवळायता. तो वसंतसेनाक आपल्या मुटींत घेवंक पळेता. ह्या मदें सबार घडामोडी जावन बरो मनीस चारुदत्त नमुन्यावार वळवळे सोसून निमाणे यशस्वी जोडता. वसंत सेनाक तो जिकता. ह्या नाटकांत आसची सोबाय म्हळ्यार, रायासभे खातीर बरयिल्ल्या ह्या नाटकांत धरधर म्हणोन दिसचें रायांचें विडंबन. रायाच्या मिवण्या संस्थनकाच्या जिबेंतल्यान संस्कृत मुकांवरां उलटीं सुलटीं हाडोवन, पुराणांतले पात्र सर्व घुसपागोंदोळावन ताका महा 'मूर्क शिखामणी' परीं शूद्रकान पिंत्रायला.

'स्वपनवासवदत्त' संस्कृत नाटकां पयकी महत्वाचो.भासान लिकलल्या ह्या नाटकांत मोगाच्या जयताची सोभाय विशेस रितीन विवरिल्या. वत्स देशाचो राय उदयन आनी आवंतिच्या राया चंडप्रद्योताची धुव वासवदत्त ह्रांगा केंद्र पात्र. तांच्या मोगा भंवतीं, तांचो मोग विपरीत जाताना आसा जांवच्या राजकीय घडावळीं आनी रावळेरांतल्या राटावळीं भंवतीं हो नाटक वाडोन येता.

भवभूती (क्रिस्त शकेचो सातवो शेकडो) संस्कृत नाटकिस्तां मदें महत्वाचो म्हणच्याक दुबाव ना. ताणे 'मालती माधव','महावीर चरित' आनी 'उत्तर राम चरित' म्हळ्ळे तीन नाटक बरयल्यात. ह्या नाटकांनी

चडशें धार्मिक वर्णन आमकां पळेवंक मेळता तरी मनशा मोलांक उकोलन धरूंक हे नाटक वावुरतात. संस्कृत नाटकांच्या चरित्रेंत राया हरशाचें नांव फामद आनी महत्वाचें. 'नागानंद',`प्रियदर्शिका' आनी 'रतनावळी' ताचे प्रमुक नाटक.

## मध्ययुगांत नाटक:

रोमी रायपाट आड पडल्ले परीं युरोपांत इगरज्मातेची मूट वाडली. देव, सांतभक्त , पवित्र सभा मात्र साहित्याच्यो वस्तु म्हणोन चिंतल्ल्या धरम्सभेन हेर सर्व साहित्याचेर लोंकडा मूट मारली. ह्या मोडतीन साहित्याचो गळो चिरडिलो शिवाय तिका मार्न काडूंक जालेंना. अगुस्तीन,तेरतुलियन असल्या इगरज्मातेच्या मालघड्यांनी 'नाटक आनी नटन सयतानाचो खेळ' म्हळां.

सुमार सातव्या-आटव्या शेकड्या उपरांत जेन्ना करोलोंगीयन रायपाट वाडलें आनी त्या सवें ल्हाल्हान भोंवडेमार लोक पडला युरोपांत भोंवोंक लागले तेन्ना तांचेद्वारीं नाटका तसलीं प्रदर्शनां पर्त्यान लोका मुकार येवंक लागलीं. क्रमेण असलीं प्रदर्शनां धर्म प्रसाराक वापारुंयेता म्हळ्ळें चिंताप घेवन इगरज्मातेन आपल्या संस्थ्यां मारिफात चलोंवचीं पळेवंक मेळतात. वांजेलांतले संदरब तशेंस माडतिरांच्या कषटां-वांवटिंचें चित्रण वेदीर आयलें.`कोणाक सोदतात तुमी?' म्हणचो ह्या वाटेचो पयिल्लो नाटक. विंचेसटराच्या एथेलवुड्डान सुमार क्रिश ९५० वेळीं `रेगुलारिस कोनकोर्दिया' लिकलो. पाद्री-मादरिंनी लोकाक नितळ जीण जियेवंक उलो दिंवच्या शेवोटाचे नाटक बरोवंक सुर्वातले. असल्या नाटकां पयकी महत्वाचो बेनेडिकटायन माद्र बिंगेनाच्या हिलडागार्डान लिकललो 'ओर्दो विर्तुतुम' (११५५). जीन बोदेलान 'जीव दे सेंट निकोलास' (१२००) बरयलो.

ह्या काळाचो 'फीस्ट आफ फूल्स' एक सोबीत हास्य नाटक. ह्या विडंबनात्मक नाटकांत उंचल्या वर्गाच्या पादरिंच्या जिणयेचेर निंचल्या वर्गाच्या पादरिंचें विडंबन आसा. ह्याच विडंबनात्मक नाटकाच्या वाटेर क्रमेण मुकलें विडंबनात्मक, विमरशात्मक साहित वाडोंक लागलें.लात्या नाटकांच्या सावळेंत आनी त्याच दिशेन क्रमेण हेर युरोपी (वरनाकुलर-तळीक) भासांनी नाटक वाडोन आयलें. 'ला सेंयते रेसरक्षन' (नोरमन) 'स्पोनसुवस'(फ्रेंच) असले नाटक लोकाच्या भाशेंत आसल्ल्यान आनी ते

लोकां मदें प्रदरशीत जाताले जाल्ल्यान नाटक कला वेगान वाडली.

प्राचीन काळ उतरतच इंडिया मुसलीम रायपाटांक खाल जालें. मुसलमान रायपाटां खाल (१२०६-१८५६) इंडियांत नाटक साहित्याचें व्हड बेळें वाडलें ना म्हणचो जेराल अभिपराय आसा. नाटक आनी नाटकाक संबंद जाल्ल्या हेर प्रदर्शन कलेच्या वाडावळीक इसलामीक युगांत पाटिंबो मेळोंकच ना म्हणचें सारकें न्हंय. रायासणांत सोबाय चडोवंक सबार ललितकलांक मुसलमान रायांनी पाटिंबो दिल्लो आसा. परसो-अरेबीक, उर्दू आनी हिंदी भास आनी साहित तशेंस त्या भासांनी प्रदर्शन कला वाडोंक दिल्ली आनी भंवतिंच्या सुलतानांचो पाटिंबोच व्हड प्रेरेपण.अवधाचो नवाब वाजीद आली षहान नाटक कलेंत'रस' म्हळ्ळी नवी शयली वाडयली ह्या शयलेंत अमानत्तन बोव फामद नाटक 'इंदर सभा' बरयलो.

## आधुनिक काळांत:

युरोप आधुनिक काळाक परतोन आयिल्ले परीं तळीक भासांनी नाटकांची वाडावळ जाली. ही वाडावळ इंगलेंडांत चड वर्त्या मापान चल्ली. एलिजाबेत्तन काळांत (१५५०-१५९०) विललियम षेक्स्पियर, तोमस मिडलटन, क्रिसटोफर मारलोव, बेन जोन्सन असलयांनी नाटक लिकले. विलियम षेक्स्पियरान 'जुलियस सीजर', 'मेकबेथ', ''ओतेल्लो' असले महत्वाचे नाटक लिकले. ह्या युगांत ग्रेको-रोमन प्राककाण्यांच्या आधारान नाटक संरचन आमी देकतांव. राय-राणियांच्या विडंबनाक तांचेंच परिसर वापारचें दिसोन येता.

एकवुणिसाव्या शेकड्यांत नोरवेजियन नाटकिस्त हेनरीक इबसन आनी विसाव्या शेकड्यांत जर्मन नाटक पंडीत बेरतोल ब्रेक्त आपल्या वावरा द्वारीं आधुनिक युरोपियन नाटकाक नवी दिशा दीवंक सकले. त्या पर्यांत आसल्लें सांप्रदायिक चिंतप मोडून आधुनिक दिषटाव्याच्या नाटकाची मांडावळ ताणी घाली. 'लिबरल ट्रयाजिडी' आनी ''हिसटोरिसैस्ड कोमिडी' म्हणचीं दोन नवीं विदानां ताणी रूपीत केलीं. स्यामुवेल बेकेट, हेरोल्ड पिंटर, क्यारील चर्चिल, बरनाड षा, व्लादिमिर मयाकोवस्की, लुयिगी पिरांदेल्लो, हियनर मुल्लर, आर्थर मिल्लर ह्या काळाचे नामणेचे नाटकिस्त. ह्यांच्या निरंतर वावराच्या फळान चड आनी चड म्हनश्या केंद्रीत नाटक प्रयोग आता'नां दिसोन येतात.

१६०० उपरांत भारतांत ब्रिटिषांचें आडळतें चल्लें. त्या उपरांत भारताच्या नाटक शेतांत, बोव विभिन्न आनी विस्तृत प्रभावान, त्वरीत वाडावळ आसा जाली. रबींद्रनाथ ठाकूर भारतीय आधुनिक नाटकांक दिशादिवपी नाटकिस्त.१८९२ इस्वेंत ताणे बंगाली नाटक चित्रा (चितरांगधा) लिकलो. राजा(१९१०) धाकघर(१९१३) रक्तकुरुबी(१९२४)ताचे हेर नाटक.

भारतांत सबार भासो आसात जाल्यारी साहित एकच म्हणचो वाद आसा. तशेंच भारताच्या सर्व भासांनी नाटक साहित्याची वाडावळ आमकां पळेवंक मेळता. आधुनिक कन्नड साहित्यांत नाटकाक प्रमुक स्थान आसा. श्रीरंग, टी.पी. कैलासम, संस, गुब्बी वीरण्ण, परवतवाणी, गिरीश कारनाड असलयांनी नाटक कलेक वर्ती सेवा दिल्या. संसाचो 'विगड विक्रमराय' मैसूर राज व्यवस्थ्याचेर विडंबन केल्लो नाटक. 'मक्कळिस्कोल मनेललवे?' 'ययाती', 'तलेदंड', 'हिट्टिन हुंज', 'तुघलक', 'अग्नी मत्तु मळे', 'जोकुमारस्वामी' असले बोव फामद नाटक कन्नडांत आयल्यात.

भारतीय भासां पयकी उर्दूंत नाटक शेतांत सबार नवीं नवीं प्रेतनां जाल्लीं आमी पळेतांव. सययीद अलांन बरयिल्लो नाटक 'मौलान अजाद' ह्या नव्या प्रेतनांच्या वाटेर वरतें प्रेतन. ड्यानिष इकबाल उर्दू नाटकांच्या शेतांत फामद नांव. ताचे 'धाराषिको', 'साहिर', 'कुच ईषक किया कुच प्यार', 'चंद रोज और मेरी जान', 'दिल्ली जो एक षहर था'आनी 'मे गया वक्त नहीं हूँ' देशाच्या नाटक साहित चरित्रेंत नवालांचीं ल्हारां उटोंवचे नाटक. इमतियाज आली ताज, किशन चंदर, मंटो, उपेंदरनाथ आश्क, गुलाम रब्बानी असल्या नाटकिस्तांनी वरतो वावर ह्या दिशेंत केला.

## कोंकणेंत नाटक:

कोंकणी नाटकाच्या वाडावळेंत पारंपरीक अभिव्यक्ती रुपांचो पात्र महत्वाचो. देखणी प्रकार कोंकणी लोकां मदें व्हड मापान प्रचलित आसल्लो. गुमटे गावन गितांकाणियो सांगची रिवाज आसल्ली. वावरा उपरांत धा–भारा घरचीं सागोळेगारां संगीं मेळोन गुमटां मार्न रामायण–महाभारताच्यो काणियो गावूंन, नाचोन आसतालीं जेन्नां क्रिस्तांवपण प्रचार जालें तेन्ना वांजेलांतल्यो काण्योयी आयल्यो. देखणी प्रकारांत स्त्रियो–दादले एक सोबित्त प्रसंग घेवन नाचतात, काणी गायतात आनी उलोवप चलयतात. आज 'दामुल्या लग्नाक वेच्या चेडवान तारिकारा लागीं व्हाळो

उत्रोवंक विनोवणी करची' देखणी प्रचलित उरल्या जावंक पुरो पूण तसल्यो हजार देखण्यो आमच्या मालघड्यां मदें आसल्ल्यो. जागोर, खेळ आनी फेल्ल म्हणपाच्या देकावपी सांस्कृतीक प्रकारांच्या प्रभावान सयत कोंकणी लोक नाटकां तेवशीं आकर्शित जाल्यांव

असगांवच्या(बार्देजगार) लुकाझिनो रिबेरो म्हणच्या तरन्या चेड्यान तियात्र प्रकाराची सुरवात केली. जुवांवो अगोस्तिनो फेरनांदा सवें मेळोन ताणे 'इटालियन भुरगो' म्हणचो तियात्र १७/४/१८९२ वेर, पासखां फेस्ता दिसा,वेदीर हाडलो. त्या उपरांत हजारों तियात्र वाडोन आयले.माडगांवच्या जुवांवो अगोस्तिनो फेरनांदाक तियात्रांचो बापूय म्हणतात. ताणे तियात्र बरवन ते छापून पर्गटले आनी चडशें मांडार हाडले. तरी फेरनांदान १९४३त लिकलल्या एका पत्रांत 'तियात्रांचो खरो बापूय आपुण न्हंय बगार लुकाझिनो रिबेरो' म्हणोन लिकलां आनी ताका कारणां दिल्यांत.

तियात्रां मदें थोडे बोव फामद आनी प्रभाव घालपाचे जाल्यात जुवांवो अगोस्तिनो फेरनांदाचे 'भाटकार', 'कुणबी जाकी', 'दोतिचें खेस्तांव', 'वावराडी' तियात्र आजून मांचियेर येतात. ए आर रोचान 'दुबावी घरकार्न' बरयलो. अलेक्सिन्हो दे कोंदोलिमान 'धर्माचो भावटो', 'आमच्या शेताची पावणी' लिकले. मिंगवेल रोडान 'तारवोटी इर्मांव','घरचें खेस्तांव' असले तियात्र लिकले. एम बोयेरान 'एकच रस्तो, 'संसार सुदारतलो', 'घर दुकी-गांव सुखी' असले तियात्र तयार केले. प्रेम कुमारान 'दूक', 'वावराडी' हे तियात्र वेदीर हाडले.

तियात्रांनी बोव पातळ काणी आस्ता. ती केन्नांय बऱ्या वायटाच्या संघर्शा भोंवारीं भंवता. निमाणे बरें जिकता आनी वायट सलवाता म्हणचें 'रेडिमेड' परिकल्पना थंयसर आसा. तियात्रांनी नाच आसा, पद गावाप आसा, हासो आसात. खोट्या सावकारांचें विडंबन आसा आनी चडशें' पाद्री भागेवंत' म्हळो संदेश आस्ता. आज तियात्र गोंयच्या सर्व फेस्तां परबेंचे अविभाज्य वांटे जावन आसात.तियात्रांनी कंतार, त्या संबंदी संगीत, आनी हासो महत्वाचे वांटे जावनासात. तियात्रांक तांच्या विषयांक लागून १) राजकीय २) सामाजीक ३) चारित्रीक आनी ४) धार्मिक म्हणोन विंगडन करूंयेना तरी चड वांटे सामाजीक आनी धार्मिक तियात्रच आसचे. खऱ्यान हे दोनी संगीं वेतात जाल्ल्यान 'समाजो धार्मिक' तियात्रच आसचे म्हणूंयेता.

कानडी लिपिंतल्या कोंकणी नाटकां विशीं पळेवंक गेल्यार बाप जोकिम मिरांदाच्या 'रिगलो जेजू मोळ्यांत' कृतियेक इगरजांनी करेजमां वेळार दृकरूपक जावन दाकयताले. बंटवाळ बोळंतूरू कृष्ण प्रभु कोंकणी नाटकांच्या चरित्रेंत महत्वाचें नांव ताणे १९१२ इस्वेंत लिकललो 'चंद्रहास' कोंकणेंतलो प्रथम स्वतंत्र नाटक. त्या उपरांत ताणे पुराणांतल्या प्रसंगांचेर होंदून सबार कोंकणी नाटक लिकल्यात. 'प्रहलाद चरित्रा', 'श्रीकृष्ण–सत्यभाम संवाद' ताचे हेर नाटक. (लुविस) लुयीस मसकरेन्हसाच्या' अबरांवचें यज्ञदान'(१८/०८/१९३६) ध्वारीं एक सोभित्त कावयाळ गीतनाटक कोंकणेक लाबलो. 'सुजन्ना' ताचो आनयेक नाटक. एल.ए. कुटिन्हाचो नाटक 'विचित्र विंचोवण', फावुस्तीन सोजाचो 'स्वतंत्राचो दीस' बजप्यां सीबी कारवालाचो 'आपरादी कोण?' सुर्वाये काळाचे हेर प्रमुक कोंकणी नाटक.

कानडी कोंकणी नाटकाच्या चरित्रेंत महत्वाचें नांव एम. पी. डेसाचें. ताच्या 'सोमियाचो पाशांव' नाटकान कोंकणी रंगमांचियेर व्हड लारां उटयलीं. १९५१ इस्वेंत लिकललो हो नाटक त्या दीस थावन आज पर्यां जिवो आसा. करेजमा वेळीं नाटका द्वारीं धार्मिक साधन चलोंवच्या वावरांत हो नाटक बोव चड वापारला.

१९५९ इस्वेंत ए टी लोबान 'आंकवार आवय' नाटक लिकलो. ह्या उपरांत कोंकणी नाटक संरचनांत वेग आयलो. सत्यशोधना प्रभून सबार नाटक बरयल्यात. ताचो 'सन्याशाचो संदेश' (१९६०) बोव फामाद. जो सा आलवारिसान 'एस्तेल तेगांची होकाल', 'चेडो एक चेडवां साडेसात','जेजूस नाजरीन' असले नाटक लिकल्यात. वि.जे.पी सल्दानहाचो 'सरदारांची सिनोल' कोंकणी चारित्रीक नाटकांच्या शेतांत विशेस महत्व आसचो नाटक. कोंकणी नाटकांत नवेसांव हाडच्यांत एवलालिया आलवारिसाच्या भाशांतर वावराक्यी महत्वाचो स्थान आसा. तिणे 'ओथेलो', 'रोब', 'फ्रान्सिस आनी क्लारा'असले नाटक कोंकणेक हाडले. सिरिवंतान 'मोर्नांत जिवंत्पण' लिकलो. 'पयणाचे वाटेर' (कु. जुलियाना पिंटो) 'जल्मा थावन कुरडो' (कु सेलीन डिसोजा) 'मावशी' (रिचार्ड सिकवेरा) 'एक दिवसू', 'सुमंगली भव' (रत्नाकर आनंद शेणय), ह्या काळाचे हेर नाटक. 'नशीबाचें भाग', 'आमचें घर', 'गुपीत सत', 'जीवन तुफान', 'पवित्र रोजारिचे मिस्तेर' असले नाटक बरयिल्ल्या हेनरी

डिसिलवान (रान उद्यावर) धार्मिक साधनांक नाटका वापारणेचें चिंताप आनी तितलें बळ केलें. जे. बी. रसकिन्हाचो 'इषटागत', रमानंद चूर्याचो' दोन घडी हासोन काडी', डोलफी कासस्सियाचो 'घातकी स्त्री', बाप एल ए कुटिन्हाचो 'कामाचें चेडूं' विशेस सामाजीक प्रभाव घालूंक सकल्ले नाटक.

कोंकणी नाटक शेताचो जीव चा फ्रा दकोसता (चार्ल्स फ्रान्सिस दकोसता) द्वारीं एकदम बळवंत आनी सत्तेन भरलो. ताच्या नाटकांची भास, संवाद शयली, संरचन, मांडावळ आनी दिषठावो त्या पर्यांतल्या व्हाळ्या थावन विंगडच. ताचे नाटक चिंतनां ल्हारां उब्जोंवचे आनी प्रेक्षकाथंय भोगणां उमाळे आसा करचे. 'तर्नें तर्नें मोर्नें', 'देव पळेत आसा' 'सुणें माजार हासता' 'आंकवार मेस्त्री', 'भांगार मनीस' 'दोरो', 'दाकतेर दाम्यांव', 'दाकतेर दुस्मान','विशेंतिचे भाव', 'शिरिगुंडी शिमांव' 'कुवाळ्याची वाल', 'बोंचो बंद' 'जोरजी बुतेल' 'तें तो आनी हांव' असल्या नाटकांनी चाफ्रा मनश्या संसराचें विमरशात्मक विशलेषण करता. समाजेचीं हाडां घासून नितळ करच्यांत आनी जें वांकडें तिंकडें आसा तें सुक्षीम अभिव्यक्ते द्वारीं उकोलन धरच्यांत ताचे नाटक वरतो वावर दितात. चाफ्राच्या चडश्या नाटकांनी मनोविशलेषण आनी व्यक्ती थंय मुळावयान रोंबोन आसच्या दोडत्यापणांक आरसो धरचें पळेवंक मेळता. कानडी कोंकणी रंग मांचियेच्या इतिहासांत इतली वर्ती सेवा दिल्लो नाटकिस्त बहुश चाफ्रा सोडन आन्येकलो आसचो ना.

कानडी कोंकणी नाटक शेतांत मिकम्याकसाचें नांव चाफ्रा सालींत रावता म्हणोन म्हजी पातयेणी. ताच्या पयल्या नाटका 'तांबड्या तारोका' थावन धर्न उपरांतल्या सर्व नाटकांनी ताणे आपलेंपण आनी अतवेंपण सांबाळन वेलां. 'अगुस्तीन खंय आसा', 'पाटीं पळेनाका', 'सिकेराम ड्रायवर' 'चिंतनान-सब्दान-करनेन', 'बोंडे चोर', 'आमचीं तांतियां' असल्या नाटकांनी तो बळवंत सामाजीक- संस्कृतीक संदेश वांटता. ताची भास बळवंत आनी अरतान गुरवार जाल्या तसली. फ्रान्सिस फेर्नांडिस कासियान सबार नाटक लिकल्यात, दिगदर्शिल्यात आनी तांतूं पात्रय घेतल्यात. ताच्या नाटकां पय्की 'मालदिसांव' 'आवय ती आवय', 'ताणे म्हाका विकरीत केलो', 'देवान केल्लो गुन्यांव' महत्वाचे जावनासात.

आयच्या दिसांनी आमी कोंकणी नाटकाच्या घुंवडेचो काळ पळेवन

